# जाग

रुप्या-उत्सवी वर्स

वर्स २५ ◇ आंक ६ ◇ जानेवारी १९९९

# सांतेरेचेर भार

मुयांक पसुन फुटलिं पाखां
सौरीप जाले जार
शिळेन शिळा लागलि हालूं
सांतेरेचेर भार

तुळस जाल्या आगटें आतां
खुरिस जाला तीर
बांग घालित लागला उठुंक
कबरेंतलो पीर

कुडुंक लागला गांवची मुळी
वाजुंक लागल्यो घांट
दिसता ताका पांचविचार
जुंवळी पानां वांट

हौरावणेचो वेळ जाल्या
धुमधुमता धौल
पौल न्हय रे जावचो आसा
सांतेरेचो कौल

घाल्लें पान जातलें भावा!
शिवा माथ्यार बेल
अकस्मात जातलें पेट्रूम
हौमा-उज्या-झेल

भायले चोर घरचें भेदी
आसले जरी लाख
घमान तिज्या पाखे कशी
खिणांत जातले खाक

राख गौयचें नांव भावा
झेलुन सगले वार
जैत तुका दिवंक आयला
सांतेरेचेर भार

- बाकीबाब बोरकार



# ाग

> आंक ६ ◇ जानेवारी १९९९

: रवीन्द्र केळेकार

दपी : माधवी सरदेसाय

: सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

: तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

: प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.


## ह्या आंकांत




| | | |
|---|---|---|
| ी | : | रु. १००/- |
| खातीर | : | रु. ७५/- |
| ी पटी | : | रु. २५०/- |

ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
व भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
दीक जोडचे)

ो:
डयनाळें
लदेल अपार्टमेन्ट्स
दादिश, पाजीफोंड,
य ४०३ ६०१.

काचें मोल: रु. ९/-


# नदर संपादप्याची

## आयकूंक येता हो आवाज ?

बुद्धाच्याच काळांतलो महावीर. दोगूय सारकेच प्रभावशाली. पुणून वेदीक परंपरेन बुद्धाक विष्णुचें अवतारपद दिलें. महावीराक दिलें ना. कित्या खातीर ?

महावीराचो वेदीक परंपरेक त्रास जायनाशिल्लो. बुद्धाचो जातालो ही एकूच जाप मेळटा.

यज्ञयाग वेदीक परंपरेची बुनयाद आशिल्ली. ब्राह्मण पुरयतांचें ताचेरूच पोट भरतालें. आनी यज्ञयाग पशुहिंसे बगर जायनाशिल्ले. बुद्धान पशुहिंसे आड लोकांक उठयल्ले. पशुहिंसा करपी यज्ञांची पोटभर निंदाय केल्ली. यज्ञयागांची प्रतिष्ठा ल्हवू ल्हवू ना जायत गेल्ली. बुद्धाक 'वेदनिंदक', 'नास्तीक' म्हणून दांतवोंठ चाबून गाळी संवपा पेल्यान वेदीक परंपरेंतल्या ब्राह्मण पुरयतांक कांयच करूंक आयलें ना. बुद्धाचो आवाज ते बंद करूंक निखालूस पावले नात.

बुद्धाच्या प्रभावान कांय काळान यज्ञाचो अर्थूय बदल्लो.

वेदीक परंपरा आत्म्या-परमात्म्याचो आधार घेवन चलताली. बुद्धान आत्म्या-परमात्म्याचेरूय हल्ले केले. 'कोण हो आत्मो म्हणटात तो तुमी? जाका तुमी तुमच्यांतलो 'हांव' म्हणटात तोच मू? तो तुमचे कुडी वांगडाच जल्माक येता. कुडी वांगडाच वाडटा. आनी कुडी बरोबरूच एक दीस सोंपता. ताका अज्रंवर, सासणाचो मानप सामकीं पिशेपणां' अशें म्हणटालो.

''आत्मो'य ना जाल्यार 'परमात्मो' कित्याक आसतलो ? संवसाराकडेन बारकायेन पळेयात, तो खिणाखिणाक जल्माक येता, खिणाखिणाक बदलत वता आनी बदलत बदलत एक दीस ना जाता. ही प्रक्रिया एका सारकी चलत आशिल्ली तुमकां दिश्टी पडटली. सगळें लिपिल्ल्यांतल्यान उक्ताडा येता आनी आशिल्लें तशें लिपता. हातूंत परमात्मो खंय आसा ?' अशें म्हणटालो. 'परमात्मो जोडूंक जाय' अशें म्हणटल्यांची बुद्धान फकाणां मारचीं. 'चंद्र आनी सूर्य तुमकां दिश्टी पडटात ते जोडून दाखयशात व्हय तुमी ?' अशें विचारतालो आनी जे स्पश्ट दिश्टी पडटात ते तुमकां जोडूंक येनात जाल्यार जो दिश्टी पडना तो तुमी कसो जोडटले काय म्हूण विचारतालो. 'हीं सगळीं पिशेपणां चलयल्यांत तुमी' अशें सांगतालो.

आनी तो सांगतालो तें लोकांक खरें दिसतालें. लोक खासा आपणाल्याच यत्नान आपणाक निवळावंक, बदलूंक, घडोवंक लागिल्ले.

ब्राह्मण पुरयत निर्शेल्ले.

बुद्धान समाजांतलें सगळें सकयल वयर करून उडयल्लें. महावीराक असलें कितेंच करूंक येवंक नाशिल्लें, जमूंक नाशिल्लें. वेदीक परंपरेक बुद्धाचो भंय दिसलो. महावीराचो निखालूस दिसलोना. वेदीक परंपरा बुद्धा आड आशिल्ली. पुणून ती बुद्धाचो प्रभाव पळोवन निर्शेवन पडिल्ली. हाचे आड आमचें कांयच चलपाचें ना, अशें म्हणून गळसणून पडिल्ली. बुद्ध आसा सर ती ओग्गी राविल्ली. बुद्धाचें परिनिर्वाण जालें; कांय वर्सांनी 'संघ' फुटलो, एकाचे दोन संघ जाले; म्हणटासर ह्या दोन संघांतल्यान नवे नवे अठरा संप्रदाय भायर सरले, तांतुंतल्या एकल्यान बुद्धाक 'लोकोत्तर' मानून मनशांतलो काडून देवांत व्हरून बसयलो, ताच्यो मुर्ती तयार जाल्यो, तांची पुजा सुरू जाली. बुद्ध ताचे मुदल शिकवणे पसून बरोच पयस गेलो – जिस्त ह्या वेळार वेदीक परंपरेन ताका विष्णूचें अवतारपद दिलें. हे आदीं कांय अवतार जावन गेल्ले. तांच्यांत आनी एकल्याची भर पडिल्ल्यान

वेदीक परंपरेचें लुकसान कांयच जायनाशिल्लें. तो वेगळो राविल्लो जाल्यार समाजांतलें आनीक कितें सकयल वयर करीत आशिल्लो, सांगूं नज आशिल्लें. वेदीक परंपरेन एक युक्ती काडली. बुद्धाक अवतार करून ताका आपणालेच परंपरेंत गुठलावन घेतलो. आनी ताका निस्तेज करून उडयलो.

'प्रस्थापिता'न सदांच अशें केलां. बंडखोरांक व्हड पद दिवन तांकां मानतल्यांक गुठलावन उडयल्यात.

गांधीची गत्त अशी जायत म्हणपाची आतां भिरांत दिसपाक लागल्या. 'हांव उज्याकडेन खेळटां म्हणपाचें जाणा आशिल्लों... आनी म्हाका मेकळो सोडलो जाल्यार हांव पर्थून उज्याकडेन खेळत रावतलों...' 'सत्याग्रहाचें दिव्यास्त्र हांवें तुमच्या हातांत फकत स्वराज्य जोडपा खातीर दिवंक ना, मेळिल्लें स्वराज्य तिगोवन दवरपा खातीर, इतलेंच न्हय तर स्वराज्यांत सत्येर आयिल्ले मदान्त जावन लोकांचेर अन्याय करपाक लागले जाल्यार तांकां सत्ये वयले निखळावपा खातिरूय हांवें तें तुमच्या हातांत दिलां' अशें म्हणपी बंडखोर गांधीचो उगडास आयज कोणूच लोकांक जावंक दिनात. 'ह्या भौधर्मी देशांत जण एकल्यान आपापणाले धर्म खरे (सच्चे) आसले, बरे (अच्छे) आसले जाल्यारूय अपूर्ण (कच्चे) उरल्यात अशें मानूंक जाय आनी अपूर्ण धर्म पूर्ण करपा खातीर वेगळे वेगळे धर्म मानतल्या लोकांनी एकामेकां म्हऱ्यांत वचून एकामेकांक वळखून घेवंक जाय, एकामेकां कडल्यान घेवपा सारकें घेवंक जाय' अशें म्हणपी धर्माच्या मळावयल्या क्रान्तिकारी गांधीचो कोणूच उगडास काडिनात. 'हिन्दू समाजांतलें आफूड-भश्ट तुमी ना करचे नात ते मेरेन धर्मान्तिरां तुमी कशींच आडावंक पावपाचे नात' अशें सांगपी समाजीक मळावयल्या क्रान्तिकारी गांधीची कोणाकूच याद जायना. 'मुक्त बाजाराची अर्थनीत न्हय, बाजार-मुक्त जावपाची अर्थनीत चलयले बगर ह्या देशांतली गरिबी कशीच ना जावपाची ना' हें सांगपी अर्थीक मळावयल्या एका व्हड विचारवंत गांधीक तर कोण आयकुनूच घेवंक तयार नात. हें सगळें पळेतकूच –

गांधीचें खरेलें रूप लोकांक कळ्ळें जाल्यार लोक स्वस्थ बसचे नात ह्या भंयान ताका गुठलावन घेवपाचो वावर देशान सुरू करूंक ना मू, असो दुबाव मारता. कित्याक, हालिंसाराक गांधीचे बुद्धाच्या 'निकायां'वरी कितलेशे 'निकाय' मुखार सरिल्ले दिश्टी पडटात. एक निकाय (संप्रदाय) गांधी-नेहरू-इन्दिरा-राजीवच्या नांवान चलता. लोहिया ह्या निकायाक सत्त्येर आशिल्लो (रॉयल) निकाय म्हणटाले. दुसरो, गांधी-विनोबा-जेपी निकाय. लोहियांच्या उतरांनी मठाधिशांचो (प्रिस्टली) निकाय. तिसरो, गांधी-लोहिया निकाय. लोहियांच्याच उतरांनी 'जाती भायलो' (हॅरॅटिक) बंडखोर निकाय.

हालिंसाराक तर गांधी भाजपाच्या अधिवेशनांतूय दिश्टी पडपाक लागला!

गांधीक हे दुर्गतींतल्यान वाटोवपाचो आसत जाल्यार—

गांधीचें खरेलें रूप लोकांमुखार दवरूंक जाय. ताचें 'भुरग्यांनो, गडबड करूं नाकात... ओग्गी बसून अभ्यास करात पळोवया' अशें म्हणपी जाणट्या आज्याचें, वा, खंयूयं संघर्श चलिल्ले पळोवन 'शी शी शी, शान्तम् पापम्... शान्तम् पापम्' अशें म्हणून 'झगडूं नाकात रे पापयांनो' अशें सांगपी साधू बैराग्याचें जें रूप आयज प्रस्थापितान लोकांमुखार दवरलां तें कडेक भिरकावन मारूंक जाय. आनी—

'उज्याकडेन खेळात', 'मदांत सत्ताधिशांक सत्येवयले निखळायात', 'कोणेंय तुमचेर फुलयलें आनी तुमकां दुसरो गाल मुखार काडूंक आयलोना जाल्यार तुमीय ताचेर दोन फुलयात... पुणून गाल चोळीत बसूं नाकात' अशें सांगपी बंडखोर गांधीचें रूप लोकांमुखार दवरूंक जाय. हेंच ताचें खरें रूप. अवतार जायते जावन गेल्यात ह्या देशांत. आमकां आनीक अवतारांची गरज ना. गरज आसा ती बंडखोरांची. गांधीक बंडखोरूच दवरूंया. ताका बुद्धा भाशेन ना करूंया नाका.

गांधीची हत्या जाल्या ताचे कांय दीस आदीं कोणें एकल्या 'तुमकां जितेच पुरूंक जाय' अशें म्हूण चीट बरयल्ली. 'हरिजनां'तल्यान गांधीन जाप दिल्ली – 'म्हाका पुरून तुमी म्हजो बंद करतले व्हय? तुमकां तें जमपाचें ना. आतां मेरेन जें सांगीत तेंच हांव आड्डू-आड्डून फोंडांतल्यान सांगीत रावतलों – I sh shouting from the grave...'

आयकूंक येता व्हय ही आड्डणी तुमकां? मात्सो कान दियात. येतली. आयकून मागीर तुमी उचांबळीत जातले. तुमकां न्हीद पड

## गुलामांची भास

इंग्रजी खंय संवसारांतली सगळ्यांत व्हडली भास.

'व्हडली' खंयच्या अर्थान? 'चडांत चड लोक उलयतात असली ह्या अर्थान व्हय? जाल्यार, हो भौमान इंग्रजीक न्हय, चिनी भाशेक कित्याक, चिनी भास उलोवपी संवसारांत ११६.७ क्रोट लोक जाल्यार, इंग्रजी फकत ४७.८ क्रोट लोक समजतात. (पळेयात आल्मानाक १९९५.)

इंग्रजी खंय ज्ञान-विज्ञानाची भास.

ज्ञान-विज्ञान रशियन भाशेंत येवंक ना? जर्मन भाशेंत येवंक फ्रेंच भाशेंत ना? जपानी भाशेंत ना? फकत इंग्रजी भाशेंत तें मेळ

इंग्रजींत हें ज्ञान-विज्ञान केन्ना आयलें? तीनशें वर्सां पयलीं तें नां 'हाडूंक जाय' अशें कांय जाणांक दिसलें आनी तांणी तें हाडपाचे सुरू केलें. तांगेलें हें काम आयज ह्या खिणामेरेन चलत रावलां. इज पावर' म्हणपाचें जाणा आशिल्ले कर्तुत्वी लोक हे. हेंच कर्तुत्व लोकांनी केलें आनी जापानीक तांणी इंग्रजी येदीच गिरेत केली. आमच हें करूं येतालें. जाय आशिल्लें फकत कर्तुत्व. 'आमी करतले... व म्हळ्यार करतलेच करतले' हो नित्शेव. तो आसत जाल्यार खं देशी भास इंग्रजी इतलीच गिरेस्त जावं येता..

आमी हो नित्शेव करिनात. कित्याक? आमी कर्तुत्वहीण जाल्यात इंग्रजींत भागता जाल्यार देशी भासो वाडोवपाचो त्रास कित्याक जाय, अशें आमकां दिसता म्हूण.

आमी 'म्हातारे' जाल्यात, इतलोच अर्थ हाचो.

इंग्रजीन ह्या देशांत कोणाचें भागता? इंग्रजी समजतात तांचें. ते कि आसात ह्या देशांत? शंबरांत फकत तीन वा पांच. धर, धा. हांचे इंग्रजी ह्या देशांत कोणाक येना. देखून फोल्गां मारतात शंबरांतले धा जाण. सत्या भोगतात हेच धा जाण. उरिल्ले णव्वद नेणारप काळखांत पडल्यात. बिलो-पॉवर्टी लायन जिवीत जियेतात. हांकां तांचे भाशेंत ज्ञान-विज्ञान हाडून दियात. मागीर पळेयात, देश कसो सडा मुखार वता तो.

एक मतींत दवरिल्लें बरें – इंग्रजी आसा तोंवेर खंयचेच देशी भ ज्ञान विज्ञान येवपाची आस्त ना.

इंग्रजी खंय एक आंतरराष्ट्रीक भास.

म्हळ्यार कसली? संवसारांत खंयूय चलता असली? जाल्यार, अणभव लक्षांत घेतिल्लो बरो. हांव भारता भायर फकत दोन दे भोंवलां. एक, चिनांत. दुसरो, जपानांत. चिनांत तीन सप्तकां. जप आठ. दोनूय देशांनी म्हाका दुभाश्यांचो आधार घेवचो पडला. पयलीं जाणा जाल्ले दुभाशिये मेळिल्ले. हांवें हिन्दी जाणा जाल्ले मागून दे दोनूय देशांनी इंग्रजी जाणा जाल्ले दुभाशिये आशिल्ले तशे हिन्दी जाल्लेय आशिल्ले. तें कित्याक, पुतुगीज जाणा जाल्लेय दुभाशिये दोनूय देशांनी म्हाका मेळ्ळ्यात.

ल्यो सगळ्यो भासो हे लोक शिकतात. पुणून तांचो राजकारभार तल्यान चलता. शिक्षणूय तांचेच भाशेंतल्यान चलता. खंयच्याच स्वतंत्र देशाचो राजकारभार देशी भास सोडून ल्यान चलना. राजकारभार तांचे भाशेंतल्यान चलता जाल्ल्यान भाशेंतल्यान चलता. 'व्हड भास', 'आंतरराष्ट्रीक भास', ची भास', 'एकचाराची भास' म्हूण खंयच्याच स्वतंत्र देशान सोडून दुसरी भास घेवंक ना.

ामचो राजकारभार परकी भाशेंतल्यान चलयतात. कित्याक? पयलीं आमी गुलाम आशिल्ले, स्वतंत्र जावनूय आमी गुलामूच ा.

पाखातीर आमी स्वतंत्र जावंक नाशिल्ले.

जर्मनी स्वतंत्र जाली. बिझ्मार्क राजकारभार चलोवपाक लागलो. त पयलो हुकूम काडलो – फायच्यान देशाचो सगळो कारभार ल्यान चलपाक लागतलो. देखून प्रशासनांत अशिल्ल्या सगळ्यांनी एका वर्सा भितर जर्मन भास शिकून घेवंक जाय. तांणी आपणाल्यो खुर्च्यो सोडून दिवंक जाय. तांणी आपूण दिल्यो नात जाल्यार नवें सरकार तांकां थंयचें काडून उडयतलें.

रशियेंत बोल्शेविक क्रान्ती जाली. लेनिनान देश आपणा हातांत नान सगळ्यांत पयलीं राजकारभारांतली जर्मन भास निखळावन भाशेक बसयली. सोवियट रशियेंत समार ६० भासो आशिल्ल्यो. तर लिपी लेगीत नाशिल्ली. लेनिनान सगळ्यांक लिपी दिली. ो वयर काडल्यो आनी सगळ्यांक जोडपी मोस्कोची रशियन म्हूण घेतली आनी देश घटमूट केलो.

दोन हजार वर्सां पयलीं संवसारांतली ना जाल्ली. मेल्ली. डेन हिब्रू भाशेंत राजकारभार चलनाशिल्लो. खंयचेच कडेन शिकनाशिल्ले. इझरायेल नांवांचें एक नवें राष्ट्र जल्माक आयलें. हिब्रू जिवी करपाचो नित्शेव केलो. तिच्यांत प्राण फुंकलो. भितर ती शिक्षणाची, विज्ञानाची, प्रशासनाची, न्यायदानाची, ांवयली भास जाली. इतलेंच न्हय, तर स्पेनिश, जर्मन, इंग्रजी सर्त करपाक लागली. तांचे इतलीच गिरेस्त जाली.

नित्शय आसत जाल्यार मेल्ली भास लेगीत जिवी करूं येता. श्यूच जाय. तोच आमच्यांत ना.

हळ्ळें, 'म्हाका एका दिसा पुरतो देशान डिक्टेटर केलो जाल्यार ांत पयलीं प्रशासनांतली इंग्रजी भास काडून उडयतलों. देशाचें ांत चलतात त्या सगळ्या भासांतल्यान चलतलें. महाराष्ट्रांत रातांत गुजरातींत, बंगालांत बंगालींत हे भाशेन. आनी सगळ्यांक न काडपी हिन्दुस्तानीक जोड भास म्हूण घेवंक लायतलों.'

ल्यार थांबूंक नात. ते म्हणटात, 'हांव प्रशासनांत काम करतल्या स म्हयन्यांची मुजत दितलों. स म्हयन्यां भितर आपापणाल्या मुखेल भास, ते भायर सगळ्यांक जोडपी हिन्दी भास शिकून जाल्यार खुर्च्यो सोडून दियात, अशें सांगतलों.

पोटाची भास करात. पळोवया मागीर गोंयांत कोण आमकां न शिक्षण जाय म्हणटात ते.

## घुसपल्लें जानवें – ३

दीन एक्स्प्रेसीन दिल्लीक वचूंक भायर सरिल्लों. डब्यांत भितर कल्यान आपणाली वळख करून दिली. आपूण अमकों अमकों... नेचो इंजीनियर. गोंयांत कामा खातीर आयिल्लों... तुमी?

गासरलोंच' अशें म्हणून हांवें म्हजें नांव सांगलें.

'कितें करतात?'

कितें जाप दिवं? 'एक लेखक' ही जाप दिवन मेकळो जालों.

'हांव खंयच्याय लेखकाक आयज मेरेन मेळूंक नाशिल्लों. ग्लॅड टू मीट यू' अशें म्हणून ताणें म्हजो हात आपणा हातांत घेतलो.

म्हाका इंग्रजींत उलोवपाचें नाशिल्लें. म्हूण हांवें ताका विचारलें, 'तुमची भास खंयची?'

'हिन्दी. पुणून घरांत आमी पंजाबी उलयतात... पंजाबी भास न्हय, तिका लिपी ना...'

खंयची हाका भास विचारली काय शें जालें म्हाका. तरी आसतना म्हळें, 'उलोवप पंजाबींत आनी बरोवप वाचप हिन्दींत?'

'ना, ना... हालिंसाराक आमचें वाचप बरोवप इंग्रजींतल्यान चलता. हिन्दीचो वापर आमी फकत रिक्षावाल्यांकडेन, टॅक्सिवाल्यांकडेन उलोवपाखातीर करतात...'

'म्हाकाय टॅक्सिवाल्यां-रिक्षावाल्यां भितरलोच धरात... आमी हिन्दींत उलोवया' अशें सांगून हांवें विचारलें, 'तुमी अमृता प्रितमचें नांव आयकलां जातलें न्हय?'

'हय, एक पंजाबी लेखिका ती... कवियत्री व्हडली...'

'हाचो अर्थ पंजाबी लेखक लेखिका आसात असो जालो ना? मागीर, पंजाबी भास न्हय, अशें तुमी कशें म्हणटात?'

'तिका लिपी ना म्हूण.'

'अमृता प्रितम खंयचे लिपींत बरयता?'

'गुरुमुखी लिपींत... ती शिखांची लिपी... आमी हिन्दू... आमचे पंजाबीक लिपी ना...'

मुखार कितें उलयतलों? ओग्गी रावलों.

* * *

पंजाबी लोकांची भास पंजाबी. हिन्दुंची, मुसलमानांची, तशी शिखांची. पंजाबी बायलो एकेकडेन आयल्यो आनी हाचे ताचे धवळे करपाक बसल्यो, जाल्यार भाशे वयल्यान कोण हिन्दू, कोण मुसलमान, कोण शिख हें तांचे तांकां लेगीत सांगूंक येवपाचें ना. हिन्दू, मुसलमान, शिख तिगांयची भास एक तशी लोक-संस्कृतायूय तिनूय संप्रदायांची एक. जल्मा वेळार, लग्ना वेळार म्हणपाचीं गितां एक, तश्यो चाली-रितीय एक.

इंग्रजी राजवटीन मुसलमानांची 'मुसलमान अस्मिताय' जागी केली. आनी पंजाबी मुसलमान आपूण हिन्दू न्हय, शिख न्हय अशें म्हणपाक लागले. आपणाली भास हिन्दुंचे आनी शिखांचे भाशे परस वेगळी आसूंक जाय अशें मानपाक लागले. आनी ते उर्दूक आपणाली भास लेखपाक लागले.

लक्षांत दवरपा सारकी गजाल म्हळ्यार, शिकले बगर आयज लेगीत खंयच्याच पंजाबी मुसलमानाक उर्दू येना. आनी, धरुंया, शिकून तो उर्दू बरोवंक वाचूंक लागलो, जाल्यारूय घरांत पंजाबी उलोवपाचें तो सोडून दिना.

पाकिस्तानी पंजाबांतलो मुसलमान लेगीत घरांत पंजाबीच उलयता.

हिन्दू आपणाक केदेय व्हड लेखूं, मुदलांत ते मुसलमानांचे शिष्य. पंजाबी हिन्दुंकूय शिकले बगर हिन्दी येना. पुणून मुसलमान उर्दूक आपणाली भास लेखतात जाल्यार आमी आमची भास हिन्दी म्हणूंक जाय, ही तांची 'अस्मिताय' तांणी केळोवन वयर काडल्या.

ते हिन्दी शिकतात. पुणून घरांत पंजाबीच उलयतात.

शिख हिन्दूय न्हय. मुसलमानूय न्हय. हिन्दू आनी मुसलमान दोनूय धर्म संप्रदायांक एकठांय हाडपाच्या यत्नांत तांणी तिसरोच एक धर्म पंथ

सुरू केलो आनी हिन्दूं पसून पयस गेले तशे मुसलमानां पसुनूय कडेक पडले. तांगेली भास हिन्दी न्हय. कित्याक, ते हिन्दू न्हय. आनी उर्दूय न्हय. कित्याक, ते मुसलमान न्हय. फकत पंजाबीच तांच्या वांट्याक आयली. शिखांनी तिका आपली मानली. तिका नागरी कुटुंबांतलीच गुरुमुखी लिपी दिली. तिच्यांत साहित्य निर्मणी केली. कितले-शे लेखक लेखिका पंजाबींत निर्माण केले. आठवी वळेरी जल्माक आयल्या ते आदींच तिका शिखांनी देशांतली एक म्हत्वाची साहित्यीक भास म्हूण वाडयल्ली.

ज्ञानपीठूय हे भाशेन जोडलां.

तरूय, म्हाका गाडयेंत मेळ्ळा त्या इंजीनियराच्या मत्तान ती भास न्हय... कित्याक, तिका लिपी ना.

शिकिल्ले सवरिल्ले अन्नाडी लोक फकत आमच्या गोंयांतूच आसात अशें न्हय. पंजाबांतूय आसात. ह्या शिकिल्ल्या सवरिल्ल्या अन्नाडी लोकांनीच देशांतले सगळे प्रस्न घुसपायल्यात – जे सोडोवपाचो यत्न करुनूय सुटनात.

* * *

दिल्लीक पावतकूच दुसऱ्याच दिसा हांव एकलेक मेळपाक गेलों. एक पंजाबी लेखिका ती. कथा नवलकथा बरोवपी. धा-बारा वर्सां पसूनची वळख आमची. साहित्य अकादेमींत जाल्ली. साहित्य अकादेमी सुटत पसून तिका मेळूंक पावूंक नाशिल्लों. हे खेपे मेळटलों अशें थारावन आयिल्लों. तिचो एक शीण आशिल्लो. 'तूं बरयता तें वाचूंक जाय अशें दिसता. पुणून तूं कोंकणींत बरयता. म्हजे खातीर तरी एकाद-दुसऱ्या पुस्तकाचें हिन्दी वा इंग्रजी करून दी.' हिन्दींत म्हजें 'जंगम विद्यापीठ में' पुस्तक उजवाडा आयिल्लें. ताची एक प्रत हांवें तिका धाडून दिल्ली.

फाटल्या दोन तीन वर्सांत तिच्या जिवितांत आकांताचे बदल घडून आयिल्ले. घोव तिका मारतालो. धा-एक वर्सां तिणें मार सोंशिल्लो. अखेरेक उसळ्ळी आनी घोवाक सोडून वेगळी रावपाक लागली. 'हें म्हजें तोंड पळे, प्लास्टीक सर्जरी करून सारकें केलां. सामकें कुरूप करून उडयल्लें त्या राँक्षसान...' तिणें आपणाल्या तोंडा वयल्यो मावो दाखोवन म्हळें.

'आय एम् सॉरी' इतलेंच म्हणून हांव ओगी रावलों. आनीक कितें उलयतलों आशिल्लों? घोव तिका मारता म्हणपाचें म्हाका खबरूच नाशिल्लें.

'तुगेलें पुस्तक वाचलें हांवें', तिणें म्हळें. 'काका कालेलकरांक हांवें पळेल्ले. ह्या तुज्या पुस्तकान तांची बरी वळख करून दिली. तुजीय बरी वळख जाली. आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार, गांधी संबंदान कांय नव्यो गजाली वाचूंक मेळ्ळ्यो. अदरवायझ आय् हेटेड हिम.'

'व्हाय शूड यू हेट हिम?'

'बिकॉझ आय एम् अ सीख टेररिस्ट...' तिणें जाप दिली.

हांवें म्हळें, 'तूं शिख हें हांव जाणां. पुणून तुवें टेररिस्ट कित्याक जावंक जाय, म्हाका समजना...'

'शिखां मुखार दुसरो मार्ग उरूंक ना.' तिणें जाप दिली. 'कसलोच गुन्यांव नासतना ह्या चांडाळांनी वया वयल्या शिख भुरग्यांक धरून धरून मारून उडयल्यात. कांय कुटुंबांचीं कुटुंबां तांतीं-पिलां सयत ना करून उडयल्यांत.'

ती फकत विक्ख ओंकताली. तिचें असलें रूप हाचे पयलीं केन्नाच पळोवंक नाशिल्लें. म्हाका खुब्ब खुब्ब वायट दिसलें आनी तिची म्हाका खुब्ब खुब्ब काकुळटूय दिसली.

थोड्या वेळान धीर करून विचारलें, 'तुमकां भारतांतल्यान फुटून एक नवें राष्ट्र म्हूण जगा मुखार येवपाचें आसा काय कितें?'

'भारतान आमकां कितें दिलां म्हूण आमी भारतांत रावपाचें?

म्हळें, 'हो प्रस्न वेगळो. भारताकडेन आपणालें दळदीर सोडून दुसऱ्याक दिवपा सारकें कांयच ना. केन्ना केन्ना म्हाकाय प्रस्न पडला, म्हाका कितें दिलां? मागीर हांवेंच म्हाका विचारलां, तुवें भारता दिलां? भारताचो एक तरी प्रस्न सोडोवपाक तुजो हातभार लागला काय ताच्या प्रस्नांत तुवें फकत भरूच घाल्या?'

ती तापली. 'असलें कितेंय फिलॉसॉफिकल-शें उलयले बगर वरी कांय जाणांक दिसना, तशें तुजेंय जालां काय कितें? चल्ल तें दोळे उकते करून पळे... आनी उलय...'

हाचे पयलीं ती म्हजेकडेन अशी केन्नाच उलोवंक नाशिल्ली. शालीन बायल आशिल्ली! तिगेलें हें नवें रूप पळोवन म्हाका बसलो. उठून वचचें अशेंय दिसलें.

पुणून रावलों.

म्हळें, 'तूं जितली मेकळेपणान उलयता तितल्याच मेकळेपणान उलयल्यार जाता मू? जाल्यार आयक—

'हांव गोंयचो... गोंय चारशें एकावन वर्सां आनी चोवीस दीस नाशिल्लें, वेगळें आशिल्लें. भारतांतलो खंयचोच वाटार भारता पसून वर्सां वेगळो रावंक ना. ह्या चारशें एकावन वर्सां आनी चोवीस दिसां काळांत भारतांत व्हडल्यो व्हडल्यो घडणुको घडल्यो, सगळें सकयल जालें. मोगल आयले. थीर जाले. अखेरेक सोंपले. इंग्रज आयले. थीर जाले. तांकां धांवडावन घालपा खातीर १८५७तलें बंड जालें. टिळक आयलो. ताणें बंडाचें निशाण हातांत घेतलें. क्रांतिकारी मुखार तांणी बॉम्ब फोडले, कांय जाणांचेर पिस्तुलां झाडलीं. कितलेशे गोळाक हुमकळून मेले. कितलेशेच अंदमानचे बंदखणींत कुसून मेले. आयलो. ताणें ल्हान-व्हड सगळ्यांक जागयले. तरां तरांच्यो चळवळी लाखांनी लोकांक बंदखणींत धाडून दिले. अखेरेक हो देश स्वतंत्र ताचें विभाजनूय जालें. ह्या सगळ्या घडणुकांचो परिणाम तुज्या पंजाबाचेर जाला. ह्या घडणुकांनी पंजाबी लोकांचें जिवीत विस्कटून गेलां. पंजाबाचो इतिहास बरोवचो पडलो जाल्यार ह्या घडणुकांचो उल्लेख केले बगर बरोवंकूच येवपाचो ना. हय काय न्हय?

'म्हज्या गोंयचेर मात ह्या घडणुकांचो परिणाम कुस्कूट लेगीत ना. गोंय ह्या सगळ्या घडणुकां पसून पयस म्हळ्यार सामकेंच पयस. गोंयांत यो, तुका हांव इगर्जो दाखयतां. पिरायेन लाल किल्ल्यापरस ताज महालापरस शंबर वर्सांनी जाणट्यो. ह्या देशांतल्या खंयच्याय वाटाराक भारता पसून वेगळो रावपाचो अधिकार आसत जाल्यार तो फकत गोंयाक आसा... गोंयचो इतिहास वेगळो... हो इतिहास दुर्भाग्याचो दुर्दैवाचो आसत. लजेन मान सकल घालूंक लावपा सारको आसत. तो इतिहास न्हय अशें तुका म्हणूंक येवपाचें ना. येदो व्हडलो आयज संवसाराचेर दादागिरी करता ते अमेरिकेचोय ना. पाकिस्तान ना. आनी तुज्या पंजाबाचो तर नाच ना. तरी आसतना गोंयांत पसून वेगळे रावुंया म्हणपी कोणूच तुका मेळपाचो ना. 'रावुंया' म्हूण पळे. तुका लोक एक तर मारूंक येतले ना जाल्यार तुका पिशांत काडटले.

गोंयाक वेगळें रावपाचें ना...'

ती आयकत रावली.

हांवें तिका आनीक एक खबर सांगली—

म्हळें, कांय वर्सां पयलीं नागालँडांत गेल्लों. थंय चुचुइमलांगांत एक इश्ट एक आश्रम चलयता. फाटल्या चार दसकां पसून तो आसा. मुदलांतलो दहाणुचो. गुजराती. काकासायबांच्या प्रभावान लोकांची सेवा करता. ताच्या धर्मान म्हाका पुराय नागालँड भोंवन पळेवंक मेळ्ळें. थंयचे लोक अमेरिकन बॅप्टीस्ट चर्चाचे किरिस्तांव. तांचे एके इश्टा म्हाका उलोवपाची संद मेळ्ळी. कितें उलोवचें हांवें? हांवें म्हळें,

वेगळेंपण सांबाळून दवरपाच्या वावरांत म्हजें आतां मेरेनचें खर्चलां. तुमचें वेगळेपण विरगळावन उडोवपाक कोणूय मुखार र – खातरी दवरात – हांव तुमच्या सांगातान ताचे आड करून येतलों. पुणून, हांव तुमकां विचारतां, तुमी फकत ? आनी हांव फकत गोंयचो? हो देश कोणाचो? ल्यांचो? देश तांचे इतलोच तुमचो आनी म्हजो. तुमचे मजगतचो ा देशाचो प्रधानमंत्री जावचो आनी म्हज्या गोंयचो कोणूय चो – हे तरेचो हावेस बाळगून जियेत आयलां हांव. आमी तल्या लोकांनी येदे व्हड हावेस धरले नात जाल्यार आमी ने आनी एक दीस शेणटले. देश यूपी बिहारवाल्यांक दिवं ा हातांत घेयात आनी धनीपणाचे भावनेन चलोवन दाखयात... लोकांक सांगलें. हांव तुकाय सांगूंक सोदतां, एक कोणूय चो प्रधानमंत्री जावचो, जवाहरलाला इतलोच देशांत लोकप्रिय काळार भगतसिंग आमचो हिरो जाल्लो... तसो नवो एक हिरो जावचो, आनी एक 'गोआनीझ' कोणूय राष्ट्रपती जावचो दिसना? हें सपन जागोवंक जाय तुज्या पंजाबी टॅररिस्ट मनांत... तुका दिसना?'

जाप नाशिल्ली. मात्शी घुटमळ्ळी आनी म्हणपाक लागली, वन लोकांक समजावन सांग हें... आनी ते कितें सांगतात

, 'तूं म्हजे बरोबर यो. म्हाका घेवन सगले कडेन भोंव. लोकांकडेन वळख करून दी... जाल्यार, ल्हान तोंडांत हो व्हड ांव बऽरो तयार जायन... आयजूच भायर सरन...'

* * *

खंतींत गेले.

राज्य नाशिल्ल्यान आमची वाड खुंटल्या म्हणपाची खोल कां जाल्ली तेच स्वराज्या खातीर झुजिल्ले. तांणी झुजून ज्य जोडून दिलां. आयज तांच्यांतले कोण उरूंक नात. स्वराज्य त दिवन ते गेल्यात. कितें सांगून गेल्यात? 'तुमच्या विकासाची कळी जाल्या, तुमकां जाय तसो तो घडोवन हाडात. कसो ी हें आतां तुमच्या हातांत आसा' अशें सांगून गेल्यात.

कास? आर्थिक? हय, आर्थिकूय बी. पुणून फकत आर्थिक , आमी स्वराज्य होगडायलां त्या काळांत आमी आर्थिक वाळ नाशिल्ले. गरीब नाशिल्ले. गिरेस्त देश म्हूण आमची रभर पातळ्ळेली. आमी गिरेस्त आशिल्ले म्हुण्णूच तर इंग्रज . गरीब देशांत ते कित्याक येतले आशिल्ले? मागीर, प्रस्न आसुनूय आमी गुलाम कशे जाले? आमच्यांत स्वराज्याची नी म्हुण्णूच जाले, ही एकूच जाप मेळटली. आमी एकामेकांकडेन मेकांक उणाक लेखून आमचे पसून पयस दवरताले. आमचीं ग्रजांनी जिस्त सोदून काडलीं. हिन्दूंक आनी मुसलमानांक झुजयत दवरूंक जाय. हिन्दूंक आनी दलितांक पडना... ळी लेगीत हिन्दू आपणाचेर पडूंक दिनात... दलितांक लागीं करूंक जाय, असलीं धोरणां इंग्रजांनी आपणायलीं. ह्या सगळ्या दुबळ्या आंगांचो इंग्रजांनी लाव घेवन तांणी आमच्यांतल्या कांय जाणांक आपणा वशीन ओडून घेतले. तांकां पोलिस खात्यांत नोकऱ्यो दिल्यो. सैन्यांत भितर घेतले. आनी आमचेच आड तांकां उबे केले. स्वराज्याचे चळवळींत लोकांक धरून कोण व्हरताले? सत्याग्रही लोकांचेर तोणके कोण मारताले? क्रांतिकारकांच्यो फाटी कोण सोलून काडटाले? इंग्रज? आमचेच लोक! स्वराज्याची भावना आमच्यांत आशिल्ली जाल्यार अशें केन्नाच जावंक पावचें नाशिल्लें.

आयज? स्वराज्य आसा. पुणून आमची स्वराज्याची भावना वाडीक लागल्या व्हय? स्वराज्य-शक्ती आमी वाडोवंक पावल्या व्हय? आमच्यांत मुळा सावन चलत आयिल्ले वेगळेचार आमी ना करूंक पावल्यात व्हय? आमचे गिरेस्तकायेंत भर पडल्या जातली. पयलीं कारखाने नाशिल्ले. आतां नवे नवे कारखाने आयल्यात. पयलीं परस आतां चड उत्पादन जाता. जंय साद्यो मातयेच्यो लेगीत वाटो नाशिल्ल्यो थंय आतां डांबरी रस्ते आयल्यात. शाळा कॉलेजां गांवां गांवांनी पावून शिक्षीत लोकांचो आंकडो वाडला. युगान युगां सावन चिड्डून उरिल्ले दलीत आतां वयर सरल्यात. पुणून –

आमची स्वराज्यशक्ती वाडूंक पावूंक ना. वाडूंक पाविल्ली नासत जाल्यार इतलेंय हें जें आमी जोडलां तें होगडावपाक आमकां खिणाचोय कळाव लागचो ना. आर्थिक विकास जावंकूच जाय. पुणून आर्थिक विकास म्हळ्यारूच विकास न्हय, हें विसरूंक फावना. आर्थिक विकासा वांगडा गुणांचो विकास जाता काय ना, हेंवूय पळोवंक जाय. आमी गुणांच्या विकासाकडेन लक्ष दिलां व्हय?

आयज देशा मुखार जे प्रस्न आसात तांतलो खंयचो प्रस्न नवो, सांगात. सगळे प्रस्न पोरणे. हजार दोन हजार वर्सां सावन चलत आयिल्ले. एक लेगीत पोरणो प्रस्न आमी सोडोवंक पावूंक नात. आमची नदर बदलूंक ना. मन बदलूंक ना. आयजूय आमी मध्ययुगांतली नदर आनी मध्ययुगांतलें मन घेवन देश चलयतात. ल्हान मन मोटवी नदर देश व्हड करूंक पावत व्हय? पोरण्यो देखी, पोरण्यो धोशी, पोरणे संघर्श नवी नदर दिवपाचे नात. नवें मन दिवपाचें ना.

देश फुटचो ना मू? आयज चलता तें पळेत जाल्यार देश फुटुंकूच जाय. एका राष्ट्रांत वीस पंचवीस नवीं राष्ट्रां जल्माक येवंक जाय. मागीर कांय देश चिनाचे, कांय अमेरिकेचे, कांय रशियेचे जाले जाल्यार अजाप कसलें?

* * *

दिल्लींत हांव सन्निधींत रावतां. गांधींचे समाधी लागसारूच सन्निधी आसा. शेनवारा म्हाका गोंयां येवपाक भायर सरपाचें आशिल्लें. सुक्रारा सांजचो समाधीचेर गेलों. म्हळें, तकली तेंकोवन येतलों. सुक्रारची थंय प्रार्थना जाता. प्रार्थनेक धा-एक मिनटां आशिल्लीं. भितर कितें खळबळून आयलें खबर ना. प्रार्थना चलता आसतनाच हुंदके दिवन रडपाक लागलों. आयुष्यांत केन्नाच रडूंक ना इतलो रडलों.

प्रार्थनेक आयिल्ले सगळे म्हज्या तोंडा कडेन पळेत रावले.

* * *

# पडसाद

## नेल्सन मंडेला पडमूर घोव

भौ. रवीन्द्रबाब,

'जागा'च्या नोव्हेंबर म्हयन्याच्या आंकांतलें तुमचें 'नो एक्झिट' बरप वाचलें आनी बायलांच्या नशिबांतले भोग पळोवन जीव आकूळ पिकूळ जालो.

नटयांचे घोव अन्नाडीच. आनी जपान देशाचो प्रधानमंत्री, प्रधानमंत्री जालो जाल्यारूय अन्नाडीच. पुणून जाका आयचो संवसार दक्षिण आफ्रिकेंतलो गांधी मानून माथ्यार घेवन नाचता तो नेल्सन मंडेलाय तांचे सारकोच अन्नाडी आसचो? नेल्सनान सत्तावीस वर्सां बंदखणींत काडलीं म्हूण आयज ताका लोक गांधीचे पंगतीक बसयतात. पुणून सत्तावीस वर्सांची बंदखण एकल्या नेल्सनानूच भोगूंक नाशिल्ली. दुसऱ्या जायत्या आफ्रिकी फुडाऱ्यांच्या वांट्याक ती आयल्या. तांच्यांतल्या कांय जाणांचो तर नेल्सना परस चड छळ जाला. पुणून संवसारांत एकल्या नेल्सनाचेंच नांव जालां. बाकिच्या कोणाचें जावंक पावलें ना. एकल्याचेंय नांव कोण घेना. कित्याक? जाप एकूच मेळटा – तांचे भितरल्या एकल्याकूय विनी मंडेला सारकी बायल मेळूंक नाशिल्ली. नेल्सन नेल्सन जावचो म्हूण विनीन रगत आटयलां. नेल्सनाची प्रतिमा दक्षिण आफ्रिकेंतलो सगळ्यांत व्हड फुडारी म्हूण संवसारा मुखार उबी करपाक विनी आयुष्यभर वावुरल्या. तिणें आपणालें पुराय जिवीत नेल्सनाचो कोणाक विसर पडचो न्हय म्हूण झरयलां. आनी लक्षांत दवरूंक जाय – तिणें हें सगळें स्वता दक्षिण आफ्रिकेंतल्या रंगभेदा आड झुजत रावन केलां. नेल्सन फकत बंदखणींत वचून बसला. विनी भायर जिवार उदार जावन झुजल्या. दक्षिण आफ्रिकेंतल्या रंगभेदा आड चलिल्ल्या झुजांत विनीचो वांटो नेल्सना परस इल्लोय उणो न्हय. परतो, चडूच म्हळ्यार जाता. नेल्सनाचें झूज तडीक पावचें म्हूण तिणें जो वावर केला तो भांगराच्या अक्षरांनी बरोवन दवरपा सारको. नेल्सनाची सुटका जाली तिवूय तिकाच लागून.

नेल्सनाक पयली बायल आशिल्ली. एवेलीन नांवाची. सरसमान आफ्रिकी बायलां सारकी 'घोवाची बायल'. विनी पळोवपाकूय सुंदर आशिल्ली आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार ती राजघराण्यांतली एक चली आशिल्ली. हिचे कडेन आपणें लग्न केलें जाल्यार आफ्रिकी लोकां मजगतीं आपली पत वाडटली असो विचार नेल्सनान करून पयले बायलेक – तिचो कसलोच गुन्यांव नासतना – सोडून दिली. आनी विनीक लग्न करून हाडली.

बंदखणींतल्यान सुटून आयले उपरांत नेल्सनान कितें करचें? आपूण बंदखणींत आसतना विनीचे कोणा-कोणाकडेन संबंद आयले, तिचेय परस पिरायेन ल्हान तिच्या सांगात्यां कडेन आयले म्हणपाचें लोक फुतफुततात तें आयकलें. नेल्सनान खरें फट पडटाळून पळेलें ना. लोक फुतफुततात तें खरें मानून ताणें विनीच्या चारित्र्याचो दुबाव घेतलो आनी निष्ठूरपणान तिका सोडून दिली. आपूण आपूण जावंक पावलां तो विनीक लागून म्हणपाचेंय तो साप विसरलो.

लोक सीतेच्या चारित्र्याचो दुबाव घेतात म्हूण रामानूय सीतेक सोडून दिल्ली. पुणून रामान दुसरें लग्न केलें ना. नेल्सनान अंयशीं वर्सांचे पिरायेर मोझांबिकेच्या राष्ट्रध्यक्षाचे सामोरा माशेलाचे विधवे कडेन, ग्रासा माशेला कडेन लग्न केलें.

नेल्सनाचीं हीं पडमूरपणां पळोवन तागेले पयले बायलेन एवेलीन
चाळीस वर्सां नेल्सना पसून पयस रावन सत्यात्तर वर्सांचे पिरायेर
रेकपायल नांवाच्या एकल्याकडेन लग्न केलें.

संवसारांतले सगळे दादले पडमूर. म्हज्या मनांत तांचे विशीं
तिरस्काराची भावना जागी जाल्या. 'नो एक्झिट' बरोवन तुमी
केल्या. तुमकां परबीं.*

— नलिनी आमो

* मराठी वयल्यान

नमस्कार,

नोव्हेंबर ९८च्या आंकांत एन्. शिवदासालो 'कोंकणी सारस्व
आंगणांत...' हो लेख वाचलो. ह्या लेखांत तांणी आपले अणभव
आनी सरळ शब्दांनी बरे तरेन वाचप्यां मेरेन पावयल्यात. तरी
मात हो लेख उदकाचे एके संथ धारेवरी दिसलो. शिवदासाल्या सभा
खळखळसाण तांतूंत दिसलिना. ना म्हळ्यार, एक पावट तांच्या
मोर्चा हाडिल्लो ताचो एक धांवतो उल्लेख तांणी केला. ताचे
कोंकणी चळवळ आनी कोंकणी आंदोलनाच्यो तळयो खेळटना
अणभविल्ल्या 'आंगार कांटो फुलोवपी' खिणांचीं वर्णनां जर आपले
लिखणेंतल्यान तांणी ह्या लेखांत केल्ली तर हो लेख कोंकणी चळ
एक जितें जिवें पांयजेलशें दिसता आशिल्लें. हांतुंतल्यान ही चळवळ
करपाक आमचे म्हालगडे कसल्या होमखणांतल्यान गेल्यात, तेंय नवे
आनी हे चळवळींत प्रत्यक्ष वांटेकार जावंक नाशिल्ल्या लोकांक्य क
मजत जातली आशिल्ली. ह्या विशयावयल्या फुडल्या लेखांनी
प्रसंगांची वर्णनां आयल्यार बरें जातलें. ना जाल्यार वेगळ्या
आंदोलकांनी अणभविल्ल्या 'समरप्रसंगांचेर' आधारिल्ली एक
लेखां-माळ दिवपाचीय तजवीज 'जागा'न करूं येता.

ह्या सदराच्या विशयाचे निमतान एक वेगळे तरेची सुचोवणी हांव
सोदतां. सध्याक 'जागां'त जे प्रमाण 'हांव कोंकणी कडेन कसो पाव
ही लेखांमाळ चलता, तेच धाटणेचेर (जागाच्या नेमांत आनी उ
बसता जाल्यार) 'म्हजो कोंकणींक विरोध कित्याक?' ह्या विशयाचे
गोंयकारांची (गोंयांत येवन स्थायीक जाल्ल्यांची न्हय) लेख-कम-मुल
अशे तरेचें एक सदर सुरू करचें. हें सदर म्हळ्यार निखटी मु
आसची न्हय तर ताचें स्वरूप एका लेखाचेंच/निवेदनाचें आसचे
ज्या जाग्यार ते चुकतात अशें दिसता वा कोंकणीविशीं तांचो गै
जाला अशें दिसता, त्या जाग्यार तांकां प्रस्न विचारून तांचें मत सम
घेवचें वा तांचो गैरसमज पैस करचो. अशें केल्ल्यान 'नाण्याची
बाजू' आमकां कळटली. मात, अशे तरेच्या यत्नांक 'तांची' साथ मे
काय कितें हो प्रस्न उरताच.

जागाक म्हज्यो शुभेत्सा.

— उद

मडगांव

# ...गत फालक्यांतलें क्रिसमस

...एफ्. डिसोजा

...वरेंत, म्हज्या काराच्या बळिश्ट हेडलायटांच्या प्रकासांत, ...न उबी आसली आकृती एका रुकाची न्हय बगार मनशाची ... शितिदान कबूल करताना यांत्रीक रितीर म्हजो पांय ब्रेक ...लो. कार नवीच तरी किंळचे शिवाय ब्रेक लागवंक आयकालें ... आक्रंदनामदें म्हज्या तोंडाथावन भायर आयिल्ली नापसंद ...तिणेक आयकाली ना जायजे. हांवें काराचो आरसो सकयल ...मनीस कसकोनशें देगेन सरलो आनी काराच्या उजव्याक

...लाय मनशा?'' हांव बोबाटलों. ''देसेंब्राची चोवीस तारीक, ...ात भारीच वेगीं प्रारंभ केल्याय तुवें?''

...ो ना; ताचो उजवो हात एकाचफाणें भितर आयलो आनी ...दवरिल्लें ल्हान न्हाणें कातीक लागचे परीं कसलेंगी शितळ ...ाक लागलें. म्हजो सगळो जीव अनामीक भिरांतेन काणसिरलो. ...म ४४!'' तो मनीस म्हणालो शांत ताळ्यान. ''हाचो घोडो ...र तुजे गोमटेर कसली तकली आसल्ली आनी हे तकलेर ...ळ आसल्लें म्हळ्ळें संवसाराक कळीत जावंचे परीं ना. म्हाका ...य; तक्षण कारांतलीं भायर येयात!''

...ल्ल्या जनेलांतल्यान देसेंब्राची धुंवरी, हांव आनी ह्या मनशाचीं ...ाच भितर सरतालीं. पूण हांव म्हज्याच कानाक पातयेवंक

...सिटीर पातळाल्ली स्त्री, तुजी पतीण?'' तो दाडामां अडचून ... ताका सतावंचे परीं विचारतालो.

... हांवें जाप दिली, कुडिचें आनी मतिचें संयम सांबाळचें प्रेतन ... भरलेली गुरवार. हें क्रिसमस म्हज्या येस्टेटांत खरचिचे म्हळे ... हांगासर आइल्ल्यांव. पूण डॉक्टरान दिल्ले तारिकेंत घुसपड ...ा प्रसूतपणाच्यो दुकी प्रारंभ जाल्यात... आनी लागशिल्लो ... किलोमिटर पयस आसा...''

...ोलीस म्हज्या पाटल्यान आसात!'' तो दांतां इड्यांतल्यान ...गनम ४४ची नळी म्हज्या गोमट्याक तोपताली. ''वंडरफूल! ...ातीकच तुजे पतिणेक प्रसूतपणाच्यो दुकी?''

... वचूंक सोड!'' हांवें परातलें ना, पुण एका थरान हुकूम ...ड्या घंट्या भितर तिणें डॉक्टरांचे ताबेन आसाजे!'' हांवें ... म्हजी पतीण क्षीण पिरंगोवणे संगी उटोन बसली. तिचें भरलेलें ...उजवाडांतयी स्पश्ट दिसतालें.

...चीं साडे धा उरतालीं. म्हजे पतिणेक परिस्थिती कळीत जाल्ली ...कच एक उतर भायर काडलें ना. परिपूर्ण अशक्त जावन ...णें कसलेंयी उच्चारल्यारयी परिस्थिती सुधरोंची ना म्हळ्ळें ...ाणा आसल्ली.

''डॉक्टराचे ताबेंत...'' तो पुसपुसोन उलयलो. ''म्हजें बायक पिड्यार जालें, सांगाती! स्मगलर पोळ्न धांवले आनी हांव कसोई पुणी शहराचे कुशीन वेचें प्रेतन करतलों म्हण पोलीस चिंततात...'' तो उलोवनच वेतालो. ''चार घंटे ह्या मोल्यांत लिपोन हांवें पाशार केले; परिपूर्ण शांतता उदेताना तुजें कार आयलें...'' तो हांसलो पूण ताच्या हास्यांत दुकिचीं किसरां मिसळोन आसल्लीं.

सासांगाताच म्हजे पतिणेन दुकिचो एक सुस्कार सोडलो. हांवें सिटीवयल्यान हात घाल्न तिचें उदर आपडलें. तवळ घामान थंड जाल्लो तिचो हात म्हज्या हाताचेर बसलो.

''आनी चड वेळ तडवूंक म्हज्यान जावंचें ना डार्लिंग!'' ती म्हणाली. ''त्या मनशाक ताचीं भेंकरीं फोकाणां बंद करूंक सांग.''

तिचीं उतरां ताका आयकालीं.

''सगळ्या संवसाराक हांव भैरो, भेंकरो आनी पोळ्कुरों आसल्लों पूण आतां पळोवंया... सगळ्या देशांत हांव...'' तो कुसकोन रावलो.

''तुकाई डॉक्टराची गरज आसा?'' हांवें म्हळें. ''खंडीत जावन तूं जख्मी जालाय...''

''पूण कार चलोवंक अशक्त जावंचे तितलो न्हय!'' ताणें मेगनम ४४ म्हज्या हरड्याक जोकली. ''तेवशीन सर!'' तो म्हणालो. ''कार हांव चलयतां. तुमकां डॉक्टराची गरज आसा? खंडीत जावन डॉक्टर तुमकां मेळतलो!'' तो पिसांट हांसो हांसलो. म्हजे पतिणिची असकार हुसकार आनी पिरंगणी चडत वेताली.

हांवें भंवतीं पळेलें.

''ह्या वेळार हेणेंतल्यान वाहनां आनी मनीस सोडयां, देव देंवचारयी घुंवाना.'' तो म्हणालो. ''तुका हें कळीत आसाजे, तूं येस्टेटगार.''

ताच्या उतरांनी सत आसल्लें.

हांव तेवशीन सरलों आनी तो आपली मेगनम दावशा हाताक वरगायसून काराचें दार उगतें करून स्टेयरिंगा पाटल्यान बसलो. ''आतां म्हजी चलाकी तुमी पळेतल्यात!'' तो म्हणालो काराची गियर बदलून. अशें करतना ताच्या तोंडांतल्यान हांकरेवणी उगत्यान भायर आयली. ताणें कार पाटीं घुंवडायलें.

''पूण शहराचो रस्तो हेवशीन आसा!'' हांव देदेसप्रार जालों. म्हजी पतीण आतां उगत्यान रडटाली.

''हांव जाणां!'' तो म्हणालो. ''शहराच्या रसत्यार पोलिसांचें सैनच म्हाका राकोन आसतेलें; येस्टेटांक वेच्या रसत्यार एक दोग पोलीस आसूंक पुरो... पुण ह्या एकल्याक दोगांक हांव कसो सांबाळतां पळेया...''

''तूं क्रिमिनलच न्हय, तकलेंतयी सारको नांय!'' हांव बोबाटलों.

''हेवशीन पोलीस आसतीत पूण डॉक्टर नात!'' आतां ताणें म्हजें कार आइल्ल्याच रसत्यार फूड करून घुंवडायिल्लें.

''डॉक्टर आसा !'' तो म्हणालो आपलें मुखमळ म्हज्या कानासरीं हाडून. ''हांगाथावन फकत आठ किलोमीटर पयस... जुजेफात फाल्क्यांत... एकलो डॉक्टर आसा !''

हांव थटाकलों, थरथरलों.

''पुण तो मनजातिंचो डॉक्टर !'' हांवें किळंचच मारली. कितेंयी तरी त्या स्मगलराक हेवशिलें परिसर बऱ्यान कळीत आसल्लें. कितें आनी कसलें कसलें स्मगल करतालो गाय ?''

गंधाचे रूक ?

''हांव जाणां !'' तो म्हणालो. कार आतां आइल्लेच वाटेर धांवतालें. ''तो पिसांटयी म्हळ्ळें आयकलां. तो मनजातिंचोच डॉक्टर तर 'हांगासर फकत मनजातीक चिकित्सा मेळता' म्हळ्ळो बोर्ड कित्याक लायत ?''

हो बोर्ड हांवेंयी पळेइल्लो आनी ह्या डॉक्टरा विशीं साबार काणयो आयकाल्ल्यो. आपणें रावंच्या फाल्क्याक ताणें जुजेफात फाल्कें म्हण वोलाइल्लें, वेळाकाळा आर्दीच कोणाचीगी झडती आंवडेवंचे परी. आनी असल्या पिसांटा सरशीं... ''तूं तकलेंत समा नाय मनशा !''

''तुवें सारकेंच सांगलेंय !'' तो म्हणालो. कारान आतां वेग आराइल्लो. ताची मेगनम ४४ सिटिचेर निदोन आसल्ली. ''मनीस तकलेन सारके आसानात... आकरेक तरी, एकल्यान पुणी म्हाका मनीस म्हळें. जाणाय तूं हांव कितलो स्मार्ट आसा तें ? त्या डॉक्टरान तो बोर्ड कित्याक लागयला म्हळ्ळें हे रातीं हांव जाणां जातलों. तो फकत मनजातिंचो... खंडीत जावन पोलीस त्या फालक्याच्या सुत्तुराक येवंचे नात...''

तो हांसलो ! हांवें मनांतच सर्वेस्पराक हाक मारली. हो मनीस खंडित जावन मती भ्रश्ट जाल्लो. एकाच्चाणे हांवें मेगनम ४४क झोंपय मारल्यार ?

''चिंतेचें प्रेतन सहीत करिनाका !'' तो म्हणालो म्हजीं चिंतनां वाचून. ''मेगनम ४४ हांगासरच निदतेली, हे खावणेंत !''

एका नीळ श्वासासंगी हांवें पाटीं पळेलें. ड्याशबोर्डाच्या उजवाडांत म्हजे पतिणेच्या पोल्यांवयल्यान देंवचीं दुकां म्हाका दिसलीं.

''सर्व सारकें जातलें डार्लिंग !'' म्हजोच ताळो पोकोळायेंतल्यान भायर आयलो. ''तो डॉक्टर बाळंतेर करूंक सकात ?'' हांवें एकाचफाणें ताच्या खांदार हात दवरलो.

ते घडिये म्हाका हेरांचो सहरो आसल्लेपरीं दिसानातल्लो.

''आतां तुजी तकली काम करता !'' तो म्हणालो. ''फकत मनशाचो मेंदू ओत्तद चडल्लेवेळा चड परिपूर्णतेन चिंतूंक सकता !''

''तुजी फिलोसोफी त्या डॉक्टराक मनशांचो डॉक्टर करूंक सकात ?''

''पोलीस !'' तो पुसपुसलो. ''तुमी कितेंच करिनाकात, उलयनाकात.'' ताचो ताळो कांपतालो. रस्त्यावयले धुंवरेमदें मोटरबायक घेवन आसचे दोग पोलीस आमकां दिसले. पोलीस वा फोरेस्ट रेंजराच्या दफ्तरांतले अधिकारी म्हळ्ळें कळीत जालें ना.

ताणें हातान इशारो करून म्हजें कार रावयलें. म्हज्या 'चालका'न मेगनम ४४ आपल्या जांगांमदें दवरली. अधिकारी कारा सरशीं येताना ताणें जनेलाचो आरसो सकयल केलो. ''म्हजीं कर्तुबां ते जाणात. पूण मुखमळ पळेवन नेणात !'' तो म्हणलो म्हजे कुशीन मातें बागवन. ''कांईच भियेनाकात !''

''हॅलो इन्स्पेक्टर !'' तो म्हणालो. ''म्हजेलागीं लायसन्स ना. म्हज्या भावाचे पतिणेक प्रसूतपणाच्यो दुकी प्रारंभ जाल्यात. म्हजो भाव एकदम नरवस. मनीस जाल्ल्यान हांवेंच कार चलोवचें... आमी तूर्त करिजे... हेवशिल्ल्यान आसचो डॉक्टरयी एकलोच... दया करून...''

अधिकारीन आमच्या तेगांच्या मुखमळाचेर टॉर्चाचो प्रकास चरयलो.

''तुमी वचयेत !'' उपरांत तो म्हणालो.

''मेरी क्रिसमस इन्स्पेक्टर !'' गियर घालताना स्मगलर म्हणालो. अधिकाऱ्यान जाप दिली ना. कार चालू जालें.

''जुजेफात फाल्कें !'' तो बोबाटलो. ''येतांव, आमी येतांव !''

* * *

म्हज्या दाराचेर ठोके पडताना सासणाचे निदेंतलो उटल्लेपरीं म्ह... भोगलें. पंचवीस वर्सांथावन हांव राकतालों ह्या ठोक्यांक. एका न्हय एका नतालांचे रातीं म्हज्या दाराचेर ती उबी जातेली म्हळ्ळ्या भरवासा... हांवें पंचवीस वर्सां पाशार केल्लीं. असलेच एके रातीं, नतालांचे... ती म्हाका सोडून गेल्ली. हांवें तयार केल्लो गरदनाचो गोटो अपूर्ण... ती गेल्ली. काराणां सबार आसल्लीं, तिच्या मट्टाचीं काराणां... नवो मोग पाचवो आसताना हें सगळें फालकेंच तिका पाचवें दिसत... पूण उपरांत... कसल्या उतराचेर, करतुबाचेर तुटापूट प्रारंभ जाली... आमी नेणांव. फूट, खंदक जाईत येताना ती म्हाका सांडून चल्ली.

म्हज्या गर्दनाच्या गोट्याची खावणी रितीच उरली. आतांई ती... आसा... वरसान वर्स हांव भातेण बदलितां, हरेक नतालांचे रातीं... दिव्यांनी ती नेटयतां. ती पार्टी येता म्हण भरवसतां. पंचवीस वर्सां... हांव मस्त सुदारलां. मनशां थंय आसाजे आसल्ले गूण मनजाती... पळेतां पळेतां हांवें म्हजें दाक्तेरगी पथ बदलिलें. आतां हांव फकत... फालक्यांतल्या आनी भोंवती आसचे येस्टेटींतल्या मनजातिंची चिकि... करतां. पंचवीस वरसां आदीं दुबळ्या धाकट्यांची, आळांची आनी चाक... करिजे म्हळ्ळ्या उद्देशान हांगासर आईल्लों हांव आनी ती... आतां... मनजातिचो डॉक्टर...

तरी नीत जातेली म्हण हांव भरवसतां. ते खातीर ह्या फाल्क्या... नांव हांवें बदलिलां. जुजेफात फालकें, निमाणे झडते पयलें हांगासर... ल्हान झडती जातली. भोवशा म्हजीच झडती...

काराचो आवाज म्हाका आयकालो आनी फालक्याचे देंवणेर चरोन... हेडलायटयी दिसल्ले. आनी आतां दाराचेर ठोके पडताना म्हजो... मिरमिरलो. दिवानखान्यांत निदोन आसल्ल्या डोबरमेन, ग्रेट डेन... आलशेशियन पेट्यांनी कान नीट केले.

''सावदान, सावदान !'' हांव तांकां फुसफुसलों. दिवानखान्याच्या उज... जनेलांतल्यान म्हजो गरदनाचो गोटो सारको दिसतालो.

''पंचवीस वरसांनंतर तिका तुमी बरोच येवकार मागाजे...''

हांवें दार उगतें केलें आनी त्या चवकटांत उदेल्ल्या दृश्याक हांव बिलकु... तयार नासल्लों. दोगां दादल्या पयकीं एकल्यान पिस्तुलेची नळी म्हज्या... नाकाक तोपून धरली.

''हिका !'' तो म्हणालो करकस ताळ्यान, ''एका डॉक्टराची ग... आसा. तुर्त कर !''

हांव घाबरलों ना. तेगांयचेर हांवें दिश्ट चरयली. तीन विभिन्न मुखम... विविध भावना.

''हांव मनजातिंचो डॉक्टर !'' म्हजो ताळो कांपनातल्लो.

''बोर्ड वाचूंक नाय ?''

''मनजातींक वाचूंक येना डॉक्टर !''

''तुजो मतलब ?''

''मनशाथंय मनजातपण ना ?''

''हांवें चिकित्सा करचे तसलें मनजातपण ना !'' हांवें ताची पिस... देगेन लोटली. ''मनजाती, कारां हायजेक करिनांत, अपहरण करिनात...''

''तर तूं म्हाका ओळकाताय ?'' पिस्तुलधारी विचारी लागलो. आप... पायांचेर वजन घालून. ताचें दावें धोंपार चेंचोन ,सुजल्लें आनी ती... ताणें घाल्ल्या जीन्सांतल्यान उटोन दिसताली.

''तुका हांव ओळकाना !'' हांवें जाप दिली. ''आनी ओळक क...

थी म्हाका ना. पूण तुवें ह्या जोड्याक तुजेच भद्रते खातीर
व्य आनी हांचें कार घेवन हांगासर तांकां हाडलांय, फकत
वातीर. सारकें सांगचें तर तुकायी डॉक्टराची गरज आसा.
ट्लेलीं धोंपरां हांवें घडसिल्यांत...'' हांव वोंठ वोळावन हांसलों.
हें पिसांट उलोवणें!'' ती स्त्री किळंचली. ''कसल्या कारणांक
ुर्जी आयदां हातेरां सकयल दवरिलींय तें हांव नेणां डॉक्टर!''
''तूं फकत मनजातिचो डॉक्टर म्हळ्ळें हांव बिलकूल पातयेना.
गरज आसा डॉक्टर! मनजातीथंय आसचे थोडे पुणीशे गुण
सतीत म्हळ्ळे पातयेणेन म्हजी मजत कर! हाचेविशीं...''
पिस्तुलधारीक दाकवन. 'हाचेविशीं तुवें सांगल्लें सर्व सारकें.
रण करून आमकां आनी आमच्या काराक हांगासर हाडलां.
ची झडती करूंक हो वेळ न्हय; फालक्याक तुवें नांव दिल्लेंच
यकी झडतेक उबीं करिनाकाय डॉक्टर... तुजीच झडती पयलीं

ळ्ताची लकणी आयकली.
येयात!'' हांव देगेन सरलों आनी दिवानखान्याच्या जनेला
ना कसकसोन रडलों. म्हजे हात जनेलाच्या सरळांक रेवडाले.
केत्याक रडताय?'' कोणेंगी हें सवाल विचारलें.
वेळ हो न्हय तर, पश्चातापाकयी हो वेळ न्हय. नतालांची

णां!'' हांव मात सरळांचेर तेंकलों. ''पंचवीस वरसां थावन
नाच्या गोट्याची खावणी रितीच आसा, हें घर रितें आसा,
शलीच आसा आनी हांव सोदनेर आसां...''
बांदार एक हात बसलो.
तुज्या बेडरुमांत निदायलां!'' तो म्हणालो आपली पिस्तूल
खोवन. ''सध्याक तुजें घर रितें ना. खावणी भरोंकय वेळ

घुंवलों.
ससाय जाय!'' हांवें हात उगते केले. ''सबार वरसां जालीं...
म करिनासतां सबार वरसां जालीं!''
दुकीक एक इन्जेक्शन दी डॉक्टर!'' तो म्हणालो आपल्या
वन. ''उपरांत हांव तुजी मजत करतां. तिचो दादलो सगळोच
. प्रसूतपण पळेवंक तो सकचो ना.''
सूक्षिमायेन पळेलें.
तूं कित्याक करताय?''
ल आयकोन तो कुसकोन हांसलो.
याचे जिणयेंत एकेक पावटीं विशिश्ट नतालांची रात उदेता
म्हणालो.
वटीं जुजेफात फालक्यांत सहीत!'' हांवें कुडसिलें. दूक उणी
न ताका तोपतच तो सुडसुडीत जालो. हांव तयार जालों.
ं नंतर म्हज्या काळजाचेरच ठोके पडल्ले. ह्या फालक्याक
आदरशांनी, तत्त्वांनी आनी चिंतपान हांव तितलों आंदळो
वरसां परयान ती म्हजें पिशेपण सोसून रावली? कोण
रिती उरोंक? हरयेकांत परिपूर्णताय जोडिजे म्हळ्ळो म्हजो
च दृश्य म्हज्या दोळ्यांमुखार उदेलें. म्हजीच झडती जाताली.

उदक खतखतता आनी नितळ टवल हांवें तलास केल्यात!''
''हें सर्व हांवें पिंतुरांनी पळेइल्लें. म्हज्या धोंपराची दूक उणी
स!''
पाट थापूडली आनी आमी बेडरुमांत गेल्यांव. तिका पाटापाट
येणो येताल्यो. ''आतां तुवें भायर वचयेत!'' तिच्या पतीक हांवें कळयलें.
''आमीं तयार आसांव!'' तो म्हाका पोटलून धरून गळगळयां रडलो.

''तुजेर बेसांव पडूं डॉक्टर!'' तो म्हणालो. ''तुजेर हे पवीत रातीचें बेसांव पडूं.''

* * *

मध्यान उतराल्ली.

खंयसरगी घांट वाजताली.

खंयसरगी गरनाळी.

''जल्म इतलो सुंदर म्हण हांव नेणासलों डॉक्टर!'' तो म्हणालो. आपल्या कमरबांधांतली पिस्तूल त्या बेडरुमाच्या मुल्याक उडवन. आवय निद्रेस्त जाली त्या सुंदर चेडूं भुरग्याक जल्म दिवन. ताचें तें प्रथम रडणें... प्रथम उसवास...

''तुवें जायीत ते जीव काडल्याय?'' हांवें विचारलें बाळकाक ऊब लुगटांनी रेवडायीत. ताणें मातें भुजांमदें गळयलें.

''मनजाती खून करिनात न्हयगी?'' तो म्हणालो. ''मनजाती गर्भपात करिनात... तुवें उमकाळायिल्ल्या बोर्डांत गूंड मतलब आसा डॉक्टर!''

''फुडेंयी आसतलो!'' हांवें म्हळें. ''चलया! ह्या बाळाच्या बापायक उल्लासिया!''

आमी दिवानखान्याक आयल्यांव. बापूय दिंबियेर आसल्लो. हांवें ताच्या खांद्याक धरून ताका उटयलो.

''चेडूं जालां!'' हांवें कळयलें ती ऊब पोटली ताच्या हातांनी दिवन. ''नतालांचे रातीं चेरको जन्माल्लो तर तुका चडीत संतोस जातो?''

तो मातें हालय लागलो, रडलो.

''ती बरे भलायकेंत आसा!'' हांवें कळयलें. ताणें आपले धुवेच्या कपलाचो उमो घेतलो.

''हांव नेणां डॉक्टर!'' तो म्हणालो गदगदीत ताळ्यान.

''ह्या प्रकरणावरवीं तुज्या आदर्शांक, तत्वांक आनी चिंतपाक धको आयला जावंयेत, पूण डॉक्टर...'' ताचीं उतरां लांबोन वेताना दिवानखान्यांतले तेगयी पेटे कान नीट करून जागे जाले. कसलेंगी एक ल्हार म्हज्या बिडाराक आवृत्त करचेपरीं भास जालें. घराभायले पेटे भोंकूंक लागले.

आमी दिश्टी बदलिल्यो.

''ते आयल्यात!'' तो म्हणालो. ''मनजातिंचो डॉक्टर बाळंतेर करिना म्हळ्ळें सुसतोंक तांकां इल्लो वेळ लागलो. विशाद! म्हजें धोंपार घडसुंचो अवकास आनी वेळ तुका आसचो ना!''

हांवें कितेंई म्हणचेफुडें बिडाराभायर पोलिसांचे फ्लडलायट पेटले आनी ध्वनीवर्धकांचेर ताळो गाजलो. ''हें घर आमी आवृत्त केलां! हात वयर करून भायर ये!''

एकाच फाणें ताणें बाळकाक बापायच्या हातांतलें झोंपय मारून घेतलें.

''कितें करताय तूं?'' आमी सांगाताच विचारलें. ''चुकारी मारूंक तुका साधचेंच ना!''

''चुकारी मारचो उद्देशई म्हजो न्हय!'' तो म्हणालो फुडलो दरवटो उगतो करून. ''पंचवीस वरसां परयांत रिती आसल्ली तुजी खावणी आज भरतेली डॉक्टर!''

पोलिसांचें सशस्त्र दळ लागीं सरताना ताणें हाळवायेन गरदनाच्या गोट्या कुशीन मेटां काडलीं आनी आपल्या हातांतल्या बाळाक वरशा मानान ताणें खावणेर निदायलें.

* * *

कन्नड लिपयेंतल्यान नागरींत हाडपी: **रमेश घ. लाड**

# कोंकणी कवितेचीं दोन दसकां

माधव बोरकार

१.

खंयचेय भाशेच्या साहित्याच्या इतिहासांत वीस वर्सांचो काळ ल्हान म्हणूं नजो. त्या दोन दसकांच्या काळांत कांय बरे तशेंच विपरीत बदल, एका विशिश्ट साहित्य प्रकाराक मेळिल्ली मान्यताय, आनी साहित्यांत आयिल्ले विंगड विंगड प्रवाह तशेंच चडट्यो आनी देंवत्योय दिसूं येतात. ह्या कालखंडांत नव्यो जाणविकायो रुजिल्ल्यो दिसतात आनी तेच परी मनीस कुळयेच्या मुल्यांनी वेळोवेळ बदल जातात तांचेंय पडबिंब साहित्यांत पडटा. कांय बरपी आपलें बरप थांबयतात, कांय जाणांच्या बरपाक सुकती येता तर नव्यो जाणविकायो घेवन नवी पिळगीय उदेल्ली दिसता. देखुनूच फाटल्या वीस वर्सांत कोंकणी कवितेंत कितें बदल जाले आनी तांचे फाटलीं कारणां हांचो सोद घेवप भौच गरजेचें. हेर भारतीय भासांतले कविते परस कोंकणी कवितेची तरा खूब वेगळी आसा. कांय इतिहासीक, राजकीय, समाजीक आनी भुगोलीक कारणांक लागून हेर भासांतले कवितेचे तुळेन कोंकणी कविता दोन दसकांच्या काळांत फाटीं उरल्या. अशें जरी आसलें तरी ती तांची फाट धरपाचो यत्न नेटान करीत आसा हातूंत दुबाव ना.

२.

कोंकणी कवितेच्या इतिहासांत गोंयचे मेकळिके उपरांतचें पयलें दसक मनोहरराय सरदेसाय हांगेले कवितेचें म्हणूंक जाय. र. वि. पंडितान ह्या काळांत पांच संग्रह वांगडाच प्रसिद्ध केल्ले आसले तरी तांचो प्रभाव उदेते पिळगेचेर व्हडलोसो पडिल्लो दिसना. ह्या दसकांतले कवितेचेर खरो प्रभाव दिसता तो मनोहरराय सरदेसाय हांगेले कवितेचो. 'गोंया तुज्या मोगाखातीर' आनी 'जायात जागे' ह्या संग्रहांतल्या कवितांचो आशय आनी उतरावळ हांणी नवे पिळगेक भूल घाली. मंगेश मंत्रवादी, जेस फेर्नांदीश, शांताराम वर्दे वालावलीकार, दियोग मार्क फेर्नांदीश हांच्यो कविता बारकायेन अभ्यासून पळयल्यार हो प्रभाव स्पस्ट जाणवता. म्हजे नदरेन ह्या प्रभावाचीं मुखेल कारणां दोन – पयलें: मनोहररायांले कवितेचो आकृतिबंध. तो सादो सरळ, कोणाकूय आपणावंक सोंपो असो. दुसरें, तिचो आशय दिसपट्टे जिणेकडेन संबंद आशिल्लो. ताकाच लागून तिका कवींमदीं आनी जनमानसांतूय खूब लोकप्रियता लाबली. आनी कोंकणी कविंची एक पिळगी तिच्या प्रभावाखाला आयली. पूण एक गजाल लक्षांत दवरूंक जाय. ह्या कविंची कविता वाडूंक पावलिना. मंत्रवादी आनी वालावलीकार हांणी कविता बरोवप थांबयलें. फकत जेसाची कविता ह्या प्रभावांतल्यान भायर सरून आपले निजाचे वाटेन मुखार गेली. आंधळ्या अनुकरणाक लागून है कवी मुखार येवंक पावलेनात. दुसरें म्हळ्यार, मुखावेली झेंप घेवंचेली तांक तांचेमदीं नाशिल्ली. मनोहररायांले कवितेचें सत्त्व तांकां केन्नाच होलमलेंना. आज तरी मनोहररायांले कवितेचो हो प्रभाव उणो जाल्लो दिसता. कांय नवे कवी वाचतना मनोहररायांचे सूर आयकूंक येतात. आलेक्स गोयश, जे. एल्. गोयश् तशेंच राजय पवाराच्यो कांय कविता मनोहररायांले धाटणेच्यो दिसतात.

३.

ह्या दोन दसकांच्या काळांत आदले पिळगेंतले कांय कवी बरोवपाचे थांबिल्ले दिसतात. जेस्ट कवी बाकीबाबांलो 'सासाय' हो कविता संग्रह ह्याच काळांत प्रसिद्ध जाल्लो आसलो तरी तातूंत आसपावल्ल्यो को ते आदीं प्रसिद्ध जाल्ल्यो. तातुंतल्यो कांय ओपिनियन पोलाच्या वेळाव्ह चडशो तात्कालीक संदर्भ आशिल्ल्यो. मनोहररायांलो 'पिसोळीं' हो १९८० वर्सा उजवाडा आयलो. ते उपरांतच्यो तांगेल्यो कविता संग्रह रुपान प्रसिद्ध जावंक नात. खरें म्हळ्यार 'जायात जागे' ह्या संग्रहा उ तांणी बरयल्ल्यो बऱ्योच कविता संग्रहीत जावन येवंक नात. तांच्या कवितांचो संग्रह उजवाडा येवंक जाय. र. वि. पंडिताले कांय संग्रह काळांत उजवाडा आयले तरी आदल्या संग्रहांतल्यो कविता मुखाव्ह संग्रहांत घेवपाचे तांगेले खोडीक लागून तांगेले संग्रह एकठांय वा वाचपी भोवन भोवन एकाच जाग्यार पावता. एकूच संग्रह वेगळ्यावे नांवांनी छापला काय, असोय भास जाता. जे उंचायेर तांणी कों कविता व्हेली (म्हज्या मतान ताका तुळा ना) ते उंचायेवेल्यान ल मुखावयली कविता देंविल्ली दिसता. ती एकाच आवर्तनांत आनाळ्यो गु काडटा.

शंकर रामाणी हे मराठी कवी आसले तरी १९७८ सावन तांणी कोंकणी सातत्यान कविता बरोवंक सुरवात केली. आनी फाटल्या वीस वर्सां काळांत तांणी 'जोगलांचें झाड', 'निळें निळें ब्रम्ह' आनी 'ब्रम्हकमळ' अशे तीन मोलादीक संग्रह कोंकणीक दिले आनी कोंकणी कवि गिरेस्तकायेंत भर घाली.

१९७०-७५ वर्साच्या अदमासाक कोंकणींत कविता चड मातल्या लागून कोंकणी साहित्याची वाड जावंक पावचिना असो सूर म्हालगडे लायलो. 'कुळागर' सारकेल्या म्हयनाळ्यान कविता सोडून कथा साहित्य धाडचें अशें जाहीर करून कवितेक आपलीं दारां बंद केलीं. मजेची गजाल म्हळ्यार मुखार ह्याच प्रकाशनान 'ऋतू' हें दों-म्हयनाळें फकत कवितेखातीर प्रसिद्ध करून कोंकणी कवितेचे वाडावळीक मोटो हातभार लायलो. १९८४ ते १९९० मेरेन हें दों-म्हयनाळें च आनी तातुंतल्यान नवे पिळगेची कविता मुखार आयली. निलबा खांडेकार, शशिकांत पुनाजी, संजीव वेरेंकार, सच्चीत फडते, ज्ञानेश्वर तारी, प्रभू तेंडुलकार, परेश नरेंद्र कामत, अमिता सुर्लकार ह्या कविंचे पिळगेचो उदेव 'ऋतूं'तल्यान जालो. कोंकणी कवितेंत जाल्ले बदल, वृत्ति प्रवृत्ति हांची बेस बरी नाट ह्या दों-म्हयनाळ्याचे आंक एकठांय वाचल्यार मेळटा. कोंकणी कवितेचो चेरो तातूंत आमकां नियाळूंक मेळटा. ह्या 'ऋतू'चो हो साहित्यीक वावर खूब मोलाचो म्हणूंक जाय. एकाच वरसांत कोंकणी कविंच्यो तीन पिळग्यो आनी तांची कविता केळोवपाचें स्थय फाव जाता. तेच भाशेन गोवा कोंकणी अकादेमीच्या घसघशीत आर्थीक पालवाक लागून तिसरे पिळगेची कविता संग्रहाच्या रुपान वाचप्यांमुखार येवंक पावली हें सत नदरआड करूंक फावना. व्हडे संख्येन अशे संग्रह आयल्यात. तांचो साहित्यीक कस कितें ताचेर खूब भासाभासूय जाता. ह्या संग्रहांतलें नीज कितलें आनी पोल कितलें हें काळूच आसडून फापुडून थारायतलो. पूण अशे तरेचे संग्रह योग्य वेळार उजवाडा येवप हें कवितेच्या काव्यगुणाचे उदरगतिचे नदरेन गरजेचें हातूंत दुबाव ना. तरणे पिळगेंतलें नांव घेवपासारकी कवियत्री अमिता सुर्लकार हिका अपघाती मरण आयलें. कोंकणी कविता सशक्त कवितेक पारखी जाली. तिगेल्या मर्णाउपरांत प्रसिद्ध जाल्ल्या 'अमिताच्यो कविता' ह्या संग्रहांत तिगेले कवितेची तांक स

र feminist तिगेले कवितेंत आयकूंक येता.
कार, प्रकाश पाडगांवकार, माधव बोरकार आनी पुंडलीक
ले पिळगेच्या कविंच्यो कविता वाचतना तांगेल्या कवितांनी
चीं पेणीं ह्या काळांत आमकां जाणवता. नागेश करमली
नांव ह्या संदर्भांत आठवलेबगर रावना. पिरायेचे नदरेन
गेक लागिंचो. पूण ताचीय कविता ह्या दोन दसकांतल्या
अवस्थेंतल्यान वतना आमकां दिसता. पुंडलीक नायकान
खणे' हो एकूच कविता संग्रह प्रसिद्ध करून आपल्या
विराम दिल्लो दिसता. ताणें जरी कथा, कादंबऱ्यो आनी
साहित्य प्रकार बरयले तरी तातूंत कवितेचो प्रभाव दिसताच.
कार मुळचो भाव कवी. 'उजवाडाचीं पावलां' ह्या तागेल्या
तल्यो कविता भावकविच्या पिंडाची गवाय दितात. तिका
बसकां आसा. पूण १९७५ वर्सा उपरांत पाडगांवकाराले
ी दिका बदल्ली. जी नदर भितल्लें सृस्ट पळेताली ती
वाटाराचो वेध घेवंक लागली. 'वास्कोयन' हे कविता मालिकेंत
लागून वास्को शाराची अवनिती जाल्या ताचें चित्र काडलां.
स अश्वत्थामो' ह्या संग्रहांतल्यो कविता सामाजिक जाणविकाय
लो यत्न करतात. आनी हालींच तांचे जे आनीक दोन
ांचे संग्रह आयल्यात, 'कविता - पावस पाणयाच्यो, काळ
नी 'करूंक सर्ग धतरिचो' ह्या संग्रहांतल्यो कविता
च्या विचारांचो खुरीस खांदार मारून मुखार वतना दिसतात.
उजवाडाचीं पावलां' ह्या संग्रहांत उत्स्फूर्त दिसताली तिचो
ल्लेवरी दिसूंक लागला.

ांले कवितेंत जाल्लो हो बदल घडये काळाच्या संदर्भाक
सत्तर ते अयंशीं ह्या दसकांत कोंकणी कवितेंत सामाजिक
ंक लागली. तिका व्हडा प्रमाणान मान्यतायूय मेळूंक लागली.
वू करून सामाजिक जाणविकाय हो कवितेचें मोल थारावपी
. आनी देखुनूच घडये अणभवा परस ह्याच एका कारणाक
काराली कविता सामाजिक जाणविकायेक शरण गेली. पूण
मूळ पिंड वेगळोच आशिल्ल्यान नवो भेस तिच्या आंगार
लागलो. आपली नीज-प्रकृती सांबाळून, जपून ताणें कवितेची
जाल्यार ती रसरसून फुलतली फळटली आशिल्ली. सामाजिक
आशय आशिल्ले कवितेंत जो ओग आसता तो पाडगांवकाराले
लूस जाणवना. ताका लागून ती आंगान दुबळी आनी रुपान
.

त प्रभावी सामाजिक जाणविकायेच्यो कविता बरयल्यो तो
पुंडलीक नायक. तागेल्या 'बांगर बैल' हे गाजिल्ले कवितेंत
म्हळां :

*डल्या पाडव्या येवंचोना*
*तीर तिश्टचोना*
*तसो जाय तेन्ना येतलो*
*दाखोवन पुजून घेतलो*

ती कविता ल्हवपीक सुरान म्हणटा :

*डपाचें नासता*
*को पेटल्यो म्हूण!*
*गेंत कुकूम भरतल्या*
*सुर्याक लेगीत*
*दीस सोंसचो पडटा.*

पयले कवितेंतलो विद्रोहाचो सूर जितलो अस्सल तितलोच दुसरे कवितेंतलो प्रेमाचो. खरें म्हळ्यार पुंडलीकान खूब बेगीन कविता बरोवप थांबोवन कोंकणी कवितेचें खूब नुकसान केलां.

रमेश वेळुस्काराली कविता सैमाच्या केंद्रस्थाना भोंवतणी विणिल्ली. सुरवातिच्या कवितांनी ताणें आपले आगळे वेगळे शब्दकलेन सैमाचीं सुंदर चित्रां काडलीं. मराठी कवितेंत ना. धों. महानोर हांणी मराठी कवितेंत सैम जिवें केलें तेच भशेन वेळुस्कारान कोंकणींत सैम रंगयलो. ती कविता कोंकणी लोकवेद आनी संगीत हांचेर पोशिल्ली. ताका लागून 'मोरपांखां' ह्या तागेल्या पयल्यावयल्या कविता संग्रहांतल्यो कविता मनाक आनी कानाक आनंद दितात. पूण दुर्दैवान वेळुस्कार मुखार आपणेंच निर्माण केल्ल्या शब्दकलेच्या मोगांत पडलो आनी अर्था परसूय शब्दांकडेन खेळपाचें ताका चट लागलें. 'सावुलगोरी' ह्या साहित्य अकादमीचें इनाम मेळिल्ल्या संग्रहांतूय अशे तरेची दुबळ्या आंगाची कविता चांटे पावलाक मेळटा. कवीक उतरांचें हिसपाभायर पिशें लागतकच आशय कवितेक कसो सोडून वता आनी उतरता तो उतरांचो अर्थ नाशिल्लो खळखळ. वेळुस्काराक हाची जाणविकाय जितले बेगीन जायत तितलें बरें.

नागेश करमलीची कविता खुबशा कारणांक लागून लक्ष ओडून घेता. ताणें कविता बरोवपाक जरी खूब आर्दी, म्हळ्यार १९५० वर्सा सावन सुरू केलें तरी ताका आपलो खाशेलो सूर मेळपाक खूब कळाव जालो. ताची सुरवेची कविता अनुकरणांतल्यान आयिल्ली अशें म्हणप जरी शक्य नासलें तरी तिचें रूप खूब धूसर दिसतालें. आपले कवितेची नीज प्रकृती किते हाची खोल जाणविकाय तागेल्या आदल्या रचनांनी दिसली तरी जे उत्कटतायेन उमाळे व्यक्त जावंक जाय तशे जायनाशिल्ले. थोडोसो मार्क्सवादी विचारसरणेचो प्रभाव तांचेर दिसतालो आनी ताका लागून कविता विचार मांडपाचें माध्यम म्हूण येताली. तिका प्रचाराचो थाट येतालो आनी ती कंटाळी जाताली. उमाळ्यांची खर खोल बुडी मारून सोदपाची तिची शक्त आनी तांक उणी पडटाली. करमलीचो पयलो संग्रह 'जोरगत' खूब उसरां उजवाडा आयलो. ह्या संग्रहांतूय अशे तरेचे दोश दिसतात. 'सांवार' ह्या दुसऱ्या संग्रहांत विचारांचें दालें जड आसलें तरी 'मनओली मोनेळ', 'सुरांचें मळब', 'अदमास' सारकेल्यो सुंदर भाव कविता तातूंत आसपावल्यात. दुसरें म्हळ्यार, सामाजिक जाणविकाय एक विचार म्हूण तांचे कवितेंत व्यक्त जाताली. ती अनुभूतिचो पांवडो हुपऽ नाशिल्ली. पूण खोशयेची गजाल म्हळ्यार तांचे कवितेच्यो शिमो मेरो तांगेल्या फुडल्या कवितांनी तांणी मोडल्यो. जी वाट सोदपाचो यत्न तांची कविता करताली, ती तिका 'वंशकुळाचें देणें' ह्या संग्रहांत मेळिल्ली दिसता. ह्या संग्रहा उपरांत आयिल्ले तांगेले कवितेक कितल्योशोच वाटो फुटल्यात. आशयाचे नदरेन ती अदीक खोल आनी गंभीर जाल्या. तशेंच, अल्पाक्षरीत्वाक लागून तिची सुचकताय वाडल्या.

४.

गोंयची मेकळीक ही गोंयच्या इतिहासांतली म्हत्वाची घडणूक. तेच भशेन कोंकणी समाजाचे जिणेंतूय तिका खाशेली सुवात आसा. हे मेकळिकेच्या खिणान कोंकणी समाज जिणेंत राजकीय आनी सामाजिक बदलाचें वारें घुंवक लागलें. कोंकणी मनशाची अस्मिताय आनी कोंकणी भाशेच्या अस्तित्वाकूय भंय निर्माण जालो तेन्ना आमी कोण हें संवसाराक व्हड ताळ्यान सांगपाची गरज पडली.

*आमी अशे न्हय*
*आमी तशे न्हय*
*धीर सोडिल्ले*
*अबर्गत तर न्हयच न्हय!*

अशें करमलीन व्हडल्या सुरान सांगलें. साडेचारशें वर्सां परकी सत्तेखाला आनी सामाजिक अन्यायाच्या चेपणाखाला उरिल्ल्या भौसाचो अंदल्लो स्वास मेकळो जालो. जो न्याय मेळूंक जाय तो नीज हक्काचो, भिकेचो न्हय म्हणपाची जाणविकाय भौसामदीं जागृत जाली. साठाव्या दसकांत मनोहरराय सरदेसायान भौसाक 'जायात जागे' असो आर्त साद घालो. आनी गोंयची सासाय जागी जाल्या म्हणपाची सुलूस बाकीबाबांक लागिल्ली. कोंकणी भौसाच्या ओंठांत इंगळे क़शे शब्द आयले ते अशे:

*आमी कोण?*
*खंयच्या वाडवडिलांची दायजाची*
*मिरास मिरोवपी तिब्या धनी न्हय.*
*कोणा दायजी गोत्राच्या पालवान*
*बोडकां वयर सारपी परधिगे न्हय.*
*कोणाच्या सोऱ्या रोटान चटावपी*
*आमच्यो जिबो न्हय,*
*कोणाचे पावले चवलेक भुलपी*
*आमची पावली न्हय.*

पुंडलीक नायकाचे हे कवितेंतले प्रत्येक वळी वांगडा हो विद्रोहाचो सूर चडट्या क्रमान तारसप्तका मेरेन पावता आनी तो तळागाळांतल्या घटकांक तांचें अस्तित्व, हक झोंपून घेवंक संघर्श करपाक होरायता. ह्याच संघर्शाचे पडिल्ले किटीक फूक मारता निलबा खांडेकाराली कविता:

*तांची भास कायतां तेंवा कळ्ळांच ना*
*आमी घरां बांदलीं भाटकारा खातीर*
*हो देस उबो करतलो भाटकारा खातीर*
*आमकां देस-भेस कांय करचो आसा?*

एका काळार र. वि. पंडितान मनशाच्यो दोनूच जाती आसतात, एक चिड्डपी जात, आनी एक चिड्डुपी जात अशें बरोवन दवरिल्लें आनी 'हांव राजा वांयगणो', 'भाटकारालो सत्यनारायण' ह्या कवितांनी सामाजिक शोशणाचें खर सत चितारिल्लें. पूण पंडित, बाकीबाब वा मनोहरराय हांची कविता बंडाची भास उलयलिना. हाचे उरफाटें, पुंडलीक, निलबा खांडेकार, संजीव वेरेंकार, शशिकांत पुनाजी हांची कविता बंडाचो बावटो ऊंच हुबयत मुखार सरिल्ली दिसता. तिचो सूर अदीक assertive जाता. ह्या दोन पिळग्यांमदलो हो म्हत्वाचो फरक.

सामाजिक आनी आर्थिक बदलाच्या वास्तवाचें आनीक एक वेगळें चित्र कोंकणी कवितेंत दिसता. हें चित्र माव्रीस डेसाचे कवितेंत पळोवंक मेळटा: विक्लीं शेतां / केलीं तोटां / आमचीं हार्णी / मारलीं पोटां / शेतां सरलीं / तोटां भरलीं / शेतांचीं तोटां करून / फळां पिकयलीं / शेतां सुकयलीं / आदले शेतकार / व्हडले सावकार / बांदले तांणी / भाता मुंडे / आतां भातयी ना / जोतयी ना / तांदळा कणांत / रिग्ले किडे /

विद्रोहा बराबर आशावादूय कांय कवितांनी दिसता:

*आयच्या उतरान आयची वळख*
*आनी आसा कालचो काळोख*
*आयचीं उतरां आयकून तुमी*
*येवं नाका गा म्हज्या उजवाडाक...*

*आयच्या उतरान ना निवोळ*
*ना कालचीं शेळीं कुपां*
*आयचें उतर धादोस जावन*
*भोंवता सोबीत रानां-वनां.*

आर. रामनाथाची कविता ताची गवाय दिता. निखटो आपलो स... गांव आनी देस हांकांच पोटलावन ती रावना, तर एकूण मनीसकुळा... तिका आस्था आसा. आज विज्ञानीक उदरगतीक लागून संवसार ... गतीन मुखार वचूंक लागलो तरी मानवी मुल्यांचो ऱ्हास जाता हा... खंत ही कविता व्यक्त करता. 'पिठो जालो / पिठो जालो फात... / म्हज्या फातराचो / तुज्या फातराचो / पिठो जालो आमच्या फात... / पिठो जाला आमच्या मनीसपणाचो / अशें आर. एस्. भास्कर म्ह... आनी सोमालियांत भुकेन आनी झुजान केल्ल्या तांडवान कळवळून विक... करता. अशे तरेन कोंकणीं कवितेचे भोंवतणी आशिल्ल्यो थळा-काळा... वंयो अदीक रूंद जायत गेल्ल्यो दिसतात. हे कवितेक कान लायल... समाज-मनाचीं स्पंदनां आयकूंक येतात.

५.

ह्या काळांत अत्यंत खाजगी व्यक्तिनिश्ठ अशी कविता कोंकणींत लि... जाल्ली दिसता. भायले परिस्थितिचो व्यक्तिचे खाजगी जिणेचेर ज... प्रभाव अशे तरेचे कवितेचो आशय. शंकर परुळकार, काशिनाथ ... लोलयेकार, अरूण साखरदांडे आनी सुदेश शरद लोटलीकार हांच्यो क... एका समान सुत्रान गुंथिल्ल्यो दिसतात.

अशे तरेचे कवितेक फाटभूंय आसा ती जाणून घेतल्यार ही क... समजप सोंपें जाता. दुसऱ्या संवसारीक म्हाझुजा उपरांत संवसारांत ... बदल जायत गेले. ते आर्थिक तशेच मानवी मुल्यांचे. ह्या काळशंत ... हिसपाभायर वाड आनी व्हडा प्रमाणान उद्योगीकरण जालें. मनशाची ... यंत्रांनी व्यापली. मनीस मनशापासून तुटत गेलो आनी तातुंतल्यान कित... मानसीक प्रस्न उप्रासले. हांचें पडबिंब साहित्यांत पडलें. पयल्या संव... झुजा उपरांत फ्रांज काफ्का ह्या जर्मन लेखकान अशे तरेचें बरप... ताणें कथा, कादंबऱ्यो बरयल्यो तातूंत मनशाच्या मनोव्यापारांचेर उ... घालो. मुखार फ्रँच आनी इंग्लीश साहित्यांत अशे तरेचें बरप सॅ... बेकेट ह्या मूळ जल्मान आयरीश आशिल्ल्या लेखकान केलें. तागेलें 'Wa... for Godot' 'End Game' सारकेलीं नाटकां क्रांतिकारी म्हूण वळ... बेकेटाच्या पावलार पावल दिवन युजीन आयनेस्को ह्या फ्रँच नाटक... 'Chairs' सारकेलें नाटक बरयलें आनी करतां करतां Theat... Absurd हो पंथूच साहित्यांत सुरू जालो. मनीस जिणेंत भरिल्ली अ... आनी एकसुरेंपण ह्या दोन तत्त्वांचेर हें साहित्य उबें आसा. ... (cynicism) आनी जिणेकडेन न्हयकारी नदरेन पळोवप हातुंतल्य... नवें साहित्याचें तत्त्वज्ञान जल्माक आयलें.

१९६०च्या अदमासाक हो प्रवाह भारतीय साहित्यांत येवन ... मराठींत दिलीप पुरुषोत्तम चित्रे, अरूण कोलटकर, विलास सा... लेखकांनी अशो नव्यो जाणविकायो मराठी कविता, कथा आनी क... रुजयल्यो. कांय काळ ह्या साहित्याचो तरतर उरलो आनी का... ताचो प्रभाव उणो जायत गेलो.

ांय काळ हो प्रभाव आयला तो चित्रे आनी कोलटकरा
शिनाथ शांबा लोलयेंकार हांगेले कवितेचेर ताचो चडांत चड

*ायर सल्लों देवाच्या कुडींतसून*
*र सिगार पेटोवन दत्तात्रयाचेर धुंवर सोडून*
*हांव भायर सल्लों घर सोडून.*

*बापूय आजी*
*ळीत भेण्याची भाजी*
*ोडलें गोंय सोडलो हिंदुस्थान*
*च समजोंक ना हांव खंय पावलों उपरान*

*महायुद्ध सुरू जाल्लें तेन्ना*
*झाडार बसोन हांव पळयतालों आकाश*
*गांधीच्या मर्डराची बातमी*
*कळ्ळी बद्द शंबर वर्सांनी*

होलमता तें लोलयेंकारालें एक स्वतंत्र तर्कशास्त्र. सपनांत जशो संदिग्ध आसतात तशीच आंतरीक रचना लोलयेंकाराल्या ता. परंपरेन चलत आयिल्ल्यो धार्मिक आनी संस्कृतायेच्यो नून घेना. हाची गवाय पयल्यो दोन वळी दिता. 'एक न्यूड 'तशें व्हडलेशें कांय घडोंक ना', 'हांथरुणा वयली कविता' विता आमी मानिल्ल्या कला आनी निती मुल्यांक आव्हान 'काशी म्हंटा' हो कविता संग्रह १९८३ वर्सा प्रसिद्ध जालो तांचो 'काशिक म्हणचेंच पडटा' हो दुसरो कविता संग्रह ला. संग्रहांच्या नांवावयल्यानूच तांच्या अंतरंगाचो अदमास रेन विचार केल्यार लोलयेंकारांचे कवितेंत sur-realism

कविता अरूण साखरदांडे हांणीय बरयल्या. पूण लोलयेंकाराले ळेंशार निर्शेवणेन भरिल्लें morbid sensibilityचें भावविश्व साखरदांडेचे बाबतींत म्हूणूं येना. तिचो सूर थोडो सौम्य डेन ती भावूक जाता. जिवितांत कांयच घडना वा घडचेंना न्हयकारी वृत्ती लोलयेंकाराले कवितेंत प्रतिबिंबीत जाता ांडेले कवितेंत जायना. ताची खंत सगळेंच आपल्या मना येना ही.

जेन्ना जेन्ना मेळूंक म्हूण येतां / तेन्ना तूं कोणा दुसऱ्याक आसता.' तशेंच 'तिस्क' हे कवितेंत कवी म्हणटा :

*न हांव म्हण्टां*
*चीय एक वाट धरची*
*कार रावचे परस*
*तरी पाविल्लें बरें न्हय ?*

मनशाच्या वांट्याक आयिल्ली अनिश्चितताय आनी आपल्या आसना असो दैववादी सूर सबंद कवितेंत भरून रावला. घर जाय' ह्या तांगेल्या कवितासंग्रहांतल्यो प्रेम कविता अशाच

*हांव तुका*
*सगळे कडेन म्हज्या सांगाता यो अशें म्हणिना*
*निदान*
*मसुण्डेमेरेन तरी येशी ?*

आयच्या यंत्रयुगांत मनीसकूळ एके तरेच्या एकसुरेपणांत घुस्पलां. समुहांत रावनूय मनीस एकलोच उरता. खुद्द ताच्याच घरांत तो परकी कसो जाता. देखून सुदेश लोटलीकार म्हणटा,

*आतां हांव*
*म्हज्या घरांत ना*
*खंयच्या तरी भाड्याच्या अगरसाळींत आसां*
*म्हाका भंय दिसता. घरची याद येता.*
*म्हाका म्हज्या घरा आसनशें दिसता;*
*तरीय हांव म्हाकाच समजायतां*
*हो म्हजोच देश आनी म्हज्या देशाची ही अगरसाळ.*

खूब फावट अशे तरेची कविता अणभवांपरस विचारांतल्यान आयिल्ली दिसता. सुदेश लोटलीकाराल्या 'पैस' ह्या संग्रहांत कांय अप्रतिम सुंदर कविता आसपावल्यात.

शंकर परुळकाराले कवितेचें गोत्र काशिनाथ लोलयेंकाराले कवितेकडेन चड बरें जुळटा. (तांच्या दोगांयमदीं कवितेंतल्यान संवाद जाल्लो आसा.) ताची कविता ही असहाय, अस्वस्थ आत्म्याची कविता. लोलयेंकाराले कवितेवरीच तिचेरूय निर्शेवणेची सांवळी आसा. कवीच आपूण आपल्याक उणो लेखता.

*हांव तुका खुब्ब भियेतालों*
*कारण तूं आसलो व्हडलो,*
*दोंगरायेदो*
*आनी हांव, सामको ल्हान*
*देडफूट.*

एके तरेची न्यूनगंडाची भावना परुळकाराले कवितेंत दिसता. परुळकार, लोलयेंकार आनी लोटलीकार ह्या समानधर्मी कवींमदीं एक गजाल सारकी आसा तो म्हळ्यार भाशेचो वापर. ते भास खूब मेकळिकेन वापरतात. जी उतरावळ सामान्यतायेन वापरिनात तिचो वापर हे कवी मोटे धिटायेन करतात. आज लोलयेंकारान कविता बरोवपाचें थांबयलां. फाटलीं सात वर्सां आपणें एकूय कविता बरोवंक ना अशी कबुली ताणें 'काशिक म्हणचेंच पडटा' ह्या संग्रहांत दिल्या. परुळकारानूय बरप थांबयल्यार आतां बरींच वर्सां जालीं. त्यो संग्रहरुपान येवपाची गरज आसा. सुदेश लोटलीकार मात सातत्यान बरयत आसा. हे कवितेक आशिल्ल्यो मर्यादा लक्षांत घेतल्यो तरी तिचें प्रायोगिक मुल्य तितलेंच मोलाचें आसा.

६.

सामाजिक जाणविकाये वांगडा वैयक्तिक (intensely personal) अणभवांकूय तितलेंच म्हत्वाचें स्थान कोंकणी कवितेंत मेळिल्लें दिसता. १९६० ते ७० ह्या दसकांत अशे तरेची कविता आयली खरी. पूण तातूंत अणभवाची खोलाय आनी जीवसाण दिसनाशिल्ली. ती खूबशी अभिव्यक्तिचे प्राथमिक अवस्थेंत आशिल्ली. तातुंतले अणभव जे उत्कटतायेन व्यक्त जावंक जाय आशिल्ले ती उत्कटताय तातुंतल्यान व्यक्त जायनाशिल्ली.

हनुमंत मावजो, युसूफ शेख, जेस फेर्नांदीश, दियोग मार्क फेर्नांदीश हांच्यो कविता कवितेचो रुपकार नाशिल्ल्यो. तातुंतलो जेसूच मुखार बऱ्यो कविता बरोवंक पावलो.

वैयक्तिक अणभवांक शब्दरूप दिल्ल्यो कविता आदल्या कवींमदीं रामाणी आनी भांगी हांणी चड बरयल्यो. ह्या दोनूय कविंच्या कवितांमदीं सुक्ष्मतरेन सारकेंपण आसलें तरी तांच्यो वाटो वेगळ्यो. भांग्यालो पयलो कविता संग्रह 'दिस्टावो' १९७२ वर्सा प्रसिद्ध जालो आनी दुसरो 'अद्रुस्टाचे कळे' हो संग्रह १९८३ वर्सा उजवाडा आयलो. तांची कविता खूबशी वैयक्तिक. ती आपल्यो खंती आनी किंवाटे व्यक्त करता. ह्या दोगूय कविंची कविता आत्ममग्न. ती आपली नदर आपलेच भितर मुंगरून मनाच्या तळाचो सोद घेता. मनाच्या गांठी निसरगांठींची उकल करता आनी आमकां अज्ञात आशिल्ल्या अणभवविश्वाचें दर्शन घडयता.

*ब्रह्म अशें धोलतां धोलतां*
*पेटले कितले सुर्या*
*उजवाडाचे हुंवार जाले*
*दोळ्यांतले दर्या.*

*(पांडुरंग भांगी: जायांच्यो फुल्ल्यो राती)*

भांग्याची कविता खूबशी अमूर्त आशयाक उतरांनी धरपी तर रामाण्याली कविता आत्मसोदाचे वाटेन वचपी. 'इशारत', 'भोंवरा' सारकेल्या कवितांनी जिणेच्या प्रवासांत जोडिल्ल्या बऱ्या वायट अणभवांचो हिशोब मांडिल्लो दिसता.

*एकसारको*
*चलून चलून लाशिल्ल्या*
*खतखतीत पावलांनी घरांत*
*भितर सरून मात्सोसो विसव*
*घेता म्हणसर दोंगरावेल्या*
*देवळांत रातीच्या निमाण्या*
*आरतेची इशारत*
*घडये*
*म्हज्या कानार पडटली.*

*(शंकर रामाणी: इशारत)*

आशयसंपन्न आनी आत्मसाक्षात्काराची ही कविता.

एका वेळार कोंकणी कवयित्रिंची कविता म्हळ्यार 'आज ओंठार रंगलो विडो / सांग केन्ना साखरपुडो' अशा सुराची आशिल्ली. तातूंत भावविवशताय चड दिसताली. पूण हें चित्र आतां पुराय बदलिल्लें दिसता. शांती प्रभू तेंडुलकार, नूतन साखरदांडे, नयना आडारकार, माया सरदेसाय आनी अमिता सुर्लकार हांणी आशय आनी अभिव्यक्तिचे नदरेन तोलामोलाच्यो कविता बरयल्यात. तांच्यो कविता 'प्रेम' ह्या वापरून झरिल्ल्या आशया भोंवतणी घुंवनात. (आनी तांच्या कवितांनी प्रेम आयल्यारूय ताका अर्थाचें नवें परिमाण आसता.) तिका भोंवतणच्या वास्तवाचें भान आसा. हुंड्याचो प्रस्न आनी बायलेचे अस्मितायेचो प्रस्न तिणें आपलो मानला. तशेंच आयचे आर्थिक वेवस्थेक लागून तिच्या मनाचेर आयिल्लीं चेपणां, ह्या सगळ्या अणभवांक लागून तिच्या आशयाचो आवाट खंडीत वाडला.

*म्हज्या माणकुल्या शाणकुल्यांनो*
*झगडूं नाकात,*
*म्हजे फाटल्यान रावात बरे भशेन*
*म्हाका आवय म्हणून घेवंक लज दिसता*
*कारण आवयची माया तुमकां*
*दाखोवंक शकलें ना*

अशें जेन्ना नूतन साखरदांडे म्हणटा तेन्ना आयचे वेवस्थेचे कातरेंत सांपड घायाळ जाल्ले आवयच्या काळजाचें रुदन ह्या वळिंनी आयकूंक येता.

७.

ह्या दोन दसकांतली कविता मुक्तछंदांत आयिल्ली दिसता. कांय कवी छंदाचो आकृतीबंद आपणायलो तरी तातूंत विविधताय दिसता. उतरावळूय सदांचे घोळटिकेंतली. ताका लागून ती अस्सल दिसता. मातयेचो परमळ येता. जेस्ट कवी बाकीबाबांनूय कोंकणींत मोलादीक मुक्तछंद बरयलो. रामाणीली 'आवय' ही मुक्तछंदांतली कविता एक कविता म्हूण कोंकणी कवितेच्या इतिहासांत उरतली. बाकीबाब आनी जेन्ना मराठींत बरयतात तेन्ना ते छंदोबद्ध कविता बरयतात पूण कोंकणींत मात सभावीक रितीन मुक्तछंदांत कविता येतात. घडये मूळ भाशेचोच सभावधर्म जावंये. पयल्या दसकाचे तुळेन ह्या दोन दसकां कवितेन निवेदनात्मक शैलेचो त्याग केल्लो दिसता. तिच्यांत सुचक अदीक आयल्या. उपरोध आनी विरोधाभास हांचो योग्य वापर जाल्या तिच्या आशयाक वेगळीच धार आयल्या. तशेंच ह्या काळांत प्रायो मुल्य आशिल्लीय कविता निर्माण जाल्ली दिसता. प्रकाश थळी आर. रामनाथ हांणी आपल्या कवितांनी रचनेचे विंगड विंगड आकृती हाडिल्ले दिसतात.

८.

आज कोंकणी कविता गोंय, मुंबय, मंगळूर आनी केरळ अशा विंगड विंगड वाटारांनी शिंपडल्या. लिपयांच्या वेगळाचारानूय तांचेमदीं वण्टी केल्यात. त्यो मोडपाची खूब मोटी गरज आसा. 'ऋतू' सारकेल्या म्हयनाळ्यान हे आदीं तो वावर केल्लो. आज 'जाग' हें म्हयनाळें दिकेन यत्न करीत आसा. 'उमाळो' हें मंगळूर सावन प्रसिद्ध जा म्हयनाळें हेर लिपयांतल्यो कविता कन्नड लिपयेंत प्रसिद्ध करता. ह कोंकणी कवितेचे वाडीक खूब फायदो जातलो असो भरवंसो आसा.

थेंब्याथेंब्यान सुरू जाल्लो हो कोंकणी कवितेचो झरो आयज पात्र जावन व्हांवत आसा. भालचंद्र गांवकार, मेल्वीन रॉड्रीग्स, रमेश पवार, परेश नरेंद्र कामत, ॲन्सी पालड्का हांच्यो कविता वाचतना कोंकणी कवितेच्या परजळीत फुडाराचे आशेक नवी पालय फुट्टा. अंतर कातरून ती हेर भारतीय भासांतले कवितेबराबर रोखडीच अशी आस्त मनांत बाळगुंया.

(साहित्य अकादमी आनी कोचीन विद्यापिठाच्या जोड पालवान कोचीनाक जा सेमिनारींत वाचिल्लो निबंध.)

# -सुवादीक कॉलम...

ोकार

ोपाळराव मयेकार कॉमीक सो.
ो वदतालो तेन्ना बरोऽऽ आशिल्लो.
यांक जाय जाय सो दिसतालो.
य तोंडांतल्यान कितेंय वदोवं येता.
कितें सगळ्यांक जाय जाय दिसनात.
राच्या तोंडांतल्यान वेद वदयलो
डो थोडोच जाय-जाय दिसता!
री आमकां गोपाळराव जाय सो दिसताच.
वादी ताचेर बेश्टेच जळटात.
येर हालींच मराठी संमेलन जालें.
सलें अखिल गोमंतकीय साहित्य संमेलन.
संमेलन म्हणटकच तातूंत आमी आयलेच.
रान गोंयांत भरपूर मराठी बरयलें.
तर दिसपट्टो मराठी बरयता.
राचे सप्तकाक दोन मराठी लेख आसतातूच.
कार म्हळ्यार मराठींत गोमंतकीय
मराठी म्हणून संपादक मराठी पेपरांत छापतात.
तांचें साहित्य मराठी म्हुण्णूच वाचतात.
मराठी साहित्य संमेलन तांकां लेखिना.
ादें 'निमंत्रण' लेगीत तांकां वचना.
गोपाळरावाक हेंच कशें कळना काय?
जेभायर शीण काडून फायदो ना.
परस तांची कॉमीक पळोवप बरी.
तो द. मा. मिरासदार मेळिल्लो.
का घेवन गोंय भोंवतालो.
डिल्लो गोंय भोंवडावन दाखोवंक.
ंय ज्ञानेश्वर आनी तुकाराम आसात तें पळोवंक.
वेकार आनी तुकाराम शेट फुलले.
हो आमकांच पळोवंक आयला.
र ताका आपल्या बालगीतनिकेतनांत व्हेलो.
कविता ताका म्हणून दाखयली–
ूळपीठ कोंकणी आमची भास
ताय आमच्या जाण्ट्यांली मिरास.
हातुंतलें मिरास हेंच उतर आयकलें.
ान आपूण मिरासदार अशें तो समजलो.
ोंकणी ही मराठीची बोली अशें ताचें मत जालें.
मोठो आं! ताची सगळेकडेन मिरास.
म्हाका गोपाळां वांगडा फर्मागुडयेर मेळ्ळो.
कॉमीक कथा बरयता पूण कॉमीक दिसना.
उतराक गोपाळराव कॉमीक हांसलो.
लो की ज्युस्त भाऊ बांदोडकार सो दिसता.
र सोडून भाशेचेर सो उलयलो?'
राक धारेर धरपा खातीर विचारलें.

ताका म्हजी मराठीची बोली व्हडलिशी समजली ना.
ताणें हांव खंयचे भाशेंतल्यान उलयता तें गोपाळरावाक विचारलें.
गोपाळान सांगलें, ती कोंकणी भास म्हूण.
तें आयकून मिरासदार परतून गोंदळांत पडलो.
'तूं सांगतालो न्हय रे, कोंकणी भास न्हय, बोली म्हूण!'
द.मा. आतां दमो भरिल्लेवरी गोपाळाक विचारतालो.
त्या प्रस्नान गोपाळ सामको 'कावरा बावरा' जालो.
'तूं अशें करशीत जाल्यार फुडले खेपे तुका आफोवंचोना आं',
गोपाळान ताका मराठींतल्यान दम भरलो.
तांची ती धुसफूस पळोवन म्हाका खातखुतल्यो जाल्यो.
कितलोय जालो जाल्यार द.मा. हो एक साहित्यिक.
एक साहित्यिक ह्या नात्यान ताका सांबाळपाचें म्हजें कर्तव्य.
गोपाळ मराठी मराठी करीत एक दीस मरा-ती म्हणटलो.
मिरासदारां सारक्यांक गोंयांत हाडून लजेक घालतलो.
फाटले खेपे तांणी त्या विद्याधर गोखलेक हाडलो.
हांव, सुबोध बी ताका घेवन आमच्या कामाक गेले.
दोन पेग ताच्या पोटांत गेल्यात मात,
विद्याधराची विद्या विद्याधराकूच फळ्ळी.
गोंयच्या मराठीवाद्यांची ताणें रेवडी उडयली.
मिरासदाराचीय गत गोखलेपरस वेगळी खंयची?
हांवें ताका म्हळें, बाबा तूं मराठींतलो एक साहित्यिक.
गोंयांत आपल्याक कोण तरी साहित्यिक मानता म्हूण तो फुल्लो.
गोपाळाक सोडून बद्द म्हाकाच दसलो.
'तूं ह्या लफड्यांत कसो फसलो?'
म्हज्या प्रस्नान तो फुस्स करून हांसलो.
'म्हाकाय ह्या दिसांनी खंय तरी वचूंक जाय आसलें.
हे गोंयांत आफयतात म्हूण म्हळें, गोंयांत या.
तुमी आफयल्ले जाल्यार हांव तुमकां येवपाचों.'
'मागीर तुवें कोंकणीक मराठीची बोली कित्याक म्हळी?'
'तुमी आफयल्लो जाल्यार हांव मराठी कोंकणीची बोली म्हणपाचों.'
मिरासदार उलोवंक मात कसोच आयकना आशिल्लो.
'तुका हें अखिल गोमंतकीय साहित्य संमेलन कशें लागलें?'
मुकेश थळयान मुलाखत घेवंची तसो म्हजो प्रस्न.
बाबड्याक हें संमेलन खंय जालें तेंच खबर नाशिल्लें.
फर्मागुडयेर जाल्लें तेंच संमेलन हें हांवें ताका सांगलें.
तसो तो सामको कोफुसांवांत पडलो.
तें अखिल गोमंतकीय मराठी साहित्य संमेलन हें तो नकळो आसलो.
ताका दिशिल्लें, तो विश्व हिंदू परिशदेचो मेळावो म्हूण.
'हीं असलीं नाडेपेन्नां गोंयांत कितलो तेंप चलतलीं?'
ताचें मत जाणा जावन घेवंक हांवें सहज विचारलें.
'तो विष्णू वाघ आनी सुदेश लोटलीकार आसात म्हणसर!'
'ते तर आयचे पिळगेंतले समर्थ कोंकणी भक्त.'
मिरासदारांचो कितें तरी गैरसमज जाला आसूं येता.

आनी जावंचोना कित्याक? तो करून दिवपीय आसात न्हय?
हांगां नांवां कोणाचीं म्हूण घेवपाचीं? तींच तींच जातात.
मराठीवादी नांवां घेवपासारके आसात तरी कितले?
आसून आसून आसत निमाणे अशे धा-बारा.
मराठीच्या नांवान सरकार तांचे मुखार कितें तरी उडयता
आनी मागीर हे करतात मानिफेस्तां, संमेलनाच्या नांवान.
हे कोण गोंय पळोवंक येतात तेय खूश, फुकट सगळें म्हूण.
नातर तांकां महाराष्ट्रांत वो हेरकडेन कोण व्हरता?
व्हरपा सारके महाराष्ट्रांत कितलेशे व्हड मनीस आसात?
ते असल्या दाणापुरी संमेलनाक वचनात.
गेल्यारूय खरें कितें फट कितें तें तर्जून पळोवन उलयतात.
पूण आमच्या मराठीवाद्यांक सांपडटात तितलींय संवंगां.
विष्णू आनी सुदेश मराठी चळवळिचे खांबे खंय!
मराठींतल्यान बरयलें आनी मराठी संमेलनाक गेले म्हूण
कोण कितें मराठीवादी जाता व्हय तर?
हांव मराठींतल्यान बरयतां. मागीर जालों मराठी?
हांवें तें त्या मिरासदाराक सामकें नेटान विचारलें.
तसो तो गोंयच्या मराठीवाद्यांकडेन पळोवन हांसलो.
आपणें आनी कसलो अप्रूप सोद लायला ह्या अर्थान.
हांव कोंकणी आनी गोंयचे आड उलयलों तेन्ना ते ओगी कित्याक
रावले तर?
अशें म्हणत प्रस्नार्थक नदरेन म्हजेकडेन पळोवंक लागलो.
म्हाका जाप नाशिल्ली. सुदेशाचें हांव समजूंक शकतां.
ताका ते माचयेर कसलें तरी बक्षीस घेवपाचें आशिल्लें.
पूण निदान विष्णून तरी आक्षेप घेवपाचो न्हय?
ताचे फाटल्यान तर आतां कोणतरी स्वामी आसा.
नेटान शेंडयेक गांठ मारपाची आनी माटोव सोडपाचो.
गोंयच्या युवक कॉंग्रेसच्या अध्यक्षपदाचो मान उरपाचो.
आतां हें सगळें येवजून फायदो कांयच नाशिल्लो.
हे आसात म्हूण ह्या भायल्या लोकांचें फावता.
गोंय म्हळ्यार आपली मिरास अशें धरून चलतात.
आमचेंच नाणें खोटें, तेन्ना आमी तरी कितें करतले?
हांवें मात मिरासदाराक हें सांगूंक ना आं!
सांगिल्लें जाल्यार, चलना जाल्यार आपल्याक दी म्हणपाचो.
हे लोक कसलींय नाणीं चलोवपाक भौच हुशार.
गोंयच्या मराठीवाद्यांक जाय तशे चलयनात तर ते?

---

## ...ास१

शंकर रामाणी

मानगुटेच्या मळार एक पोन्नें वाटकुळेंशें पेड;
-रूंद पैडार म्हातारें म्हारवाचें झाड..
का फकत ताचो भार जाणवता... म्हारू केन्नाच दिसना)

तसों शांत; गंगेचें उदक; राखणो; धिराची धिगी;
केन्ना केन्नाय ताचें कोल्ल फिरता; पित्त खवळटा; मनांतल्या
त-खुबता; आटापा येना इतलीं धुमशेणां कांडटा
काजळाक फुटून... ओंठांतल्यान नकळत शेंवटिल्ल्या
ड्यावरी उतरांचो, आडोळो पावस कसो भितल्ले
र गडगड मारून, अकस्मात म्हजेर शिंवर घालता...

एके जगावेगळे घुंवळींत ताचें एकेक उतर पोशांत
ा झेलून... पारखून म्हाका ओखेत कागदार उतरायतां.
टां... म्हाका आज नवी कविता आयली आनी मुरगुट्टां.

हो म्हारू? जाणट्या झाडाच्या गच्च पानां आड लिपून हांसता!
का तें आयकूंक येना... कांयच कळना. उमजना)
या पिशेपणाक ताळ ना. तंत... अंतय ना.

## पाख्यातळा

□ **नागेश करमली**

पाख्यातळा
रसणाय अपूर्वगुणी अपुर्बाय
काळजामदें
काकळूत कंवळसार सूरसासाय...

आतां तूंय सूर लाय
तो,
तोय सूर लाय,
अंतराळांत उडुंया
अळंग अळंग ल्हव ल्हाय...
सपन गंधांत तिंबून
भरून वचूं दिको धाय
दिकादिकांनी तूं जाय
तो जाय, सगळेच जाय
गांठीन गांठ जोडीत
गांठवलाचीच एक अप्रुपाय...
अप्रुपायेंत
विरून गेले सगळे दुबळे
नदरेपार अंतराय...

पाख्यातळा
आतां चक्क सास्वताची
काळीज ओलावपी
काळीज खोलावपी
अपूर नुपूर सासाय –
सर्वव्यापी
सर्वधात्री
सासाय!

# एक कापितान थिएटर

□ काशिनाथ शांबा लोलयेंकार

जें सदांच पळयतालों
तें एल-कापितान थिएटर आतां मोडलें
उबारलें आनी मोडलें
हेंच्या मदले कांय उगडास
म्हणजेच हांव

हांवूय मातयेभरवण जातलों एक दीस त्या थिएटरासारको
ही जाणीव म्हाका आसा
म्हणुनूच म्हजे कल्पनेंत उबें करून पळयतां हांव.
तें जमीनदोस्त थिएटर
तितलेंच सुसह्य जाता हें जगणें

सध्या थंय कांयच ना फकत दिसता मातयेचो ढिगारो
आनी तेच्या फाटल्यान दिसपी न्यू गोवा हायस्कुलची बिल्डिंग
थंय आतां एखाद दुसरी बिल्डिंग जावं येता
जातली
गजबजतली
पूण तें थिएटर थंय नासतलें

थिएटर आसतलें म्हज्या मनांत
हांव टीव्ही पळयतना घरांत बसून
हांव घेतना एखादो पेग
हांव प्रेम करताना बायलेवांगडा
हांव उलयताना स्वताचकडेन

हजार लोकांवांगडा बसोन ज्या थिएटरांत हांवें पळयलीं
हजार पिक्चरां एकलो एकमुळो जावन
तें म्हजें एकमुळेपण मात
अजून कसोच सोडिना म्हजो सांगात

पूण म्हाका खबर आसा
शंबर वर्सां आदीं तें थिएटर नासलें आनी नासलों हांवूय
आसली
आसतली
फकत एक सुवात
शंबर वर्सां उपरांतूय

# एक पिसो

□ प्रभाकर नाडकर्णी

१. एक अपेशी सांज आसा    एक पिसो जागून आसा
देवा तुज्या रे आपोवण्याचे    ओडलायणेन जगून

२. याद दवरात नखेत्रांनो    जगिल्लो हांगा मोगी एक
कोणें आवटो म्हळें जायत    कोणाली नदर लागून

३. आपमतलबीपणांच चड    उरले नात मोगा लायक
मोगा जिणेंत दरेका मोडणार    खाशेली पिडा भोगून

४. हडङ्यांत मोग जागोवपा फाव    पापणेंत सतत दुकां
इंगळोश्या गोबरा पोंदांत    काळीज धगधगून आसा

५. बळकटाय ना आज मोग्यांत    खोस दिवपाची
चिगूर हळवें पानां मदलें    आपणा भितर रिगून आसा

६. अन्यांव आपणार आसा करत    मार्न आपलें मन
जळूंक ना अजून अपरात    लोकांली दया मागून

७. जगा दुखणें घेतलां आंगार    धांवता जग पिडेस्त
एक पिसो जागोच आसा    घडये मोगान जगून

# शेंवणें घोंटेर सोदता

□ रोबाशि

हांगचें थंय थंयचें हांगा
उडत उडत गेलें तूं
  पिसोंदऱ्यो बडये कुडके एकवटावन हाडले तुवें
  व्हडल्या एका झाडार घोंटेर सोबीत बांदलो तुवें
  सोबीत सुंदर घोंटेर पळोवन फुलून गेलें तूं
  माणकुल्या पिलांच्या सपन-रंगांत रावलें तूं
हांगचें थंय थंयचें हांगा
उडत नाचत रावलें तूं
  सपनाची एक रात काडली घोंटेरांत
  सकाळीं उठून उडत गेलें पोटराक
  सांजवेळा आयलें जाल्यार झाडासयत घोंटेर ना
  पिशें कशें सोदता तूं, घोंटेर ना
हांगचें थंय थंयचें हांगा
उडत उडत गेलें तूं.

# त्रेथ द विंड

ाआडारकार

ार कितें गंध ना
वडटा तांकां झेंडावंदन
 मेळऽ चॉकलेटी
गळीच सुटी.

उलगलीं वर्सां मोन्यांनी
देसाच्या स्वातंत्र्याक
त
ह्या भांगरावर्सा
कंठ
आयली उर्बा
क माल्लो सलाम
जयहिंद'
फडफडपी बावटो सुस्कारलो
, तें सगळें 'गॉन विथ द विंड'
वर्सां उलगलीं
तिचो श्वास घेतले उपरान्त
 जाणवलो ना तिका
आनी ह्या मुक्त गात्रांत
 जाणवलो ना.

दीस मनयतात ?
ात
 उदेन्ती किर्णांक आशेल्ले
काळखेल्ले रातये दीस
मुक्ततेचे मिठयेंत
साक रातयांत
ार्थाची जीब
 जाणवलोना

दराची पवित्रताय इबाडपी
 तो आक्त
 मिरयांकूच हात घालपी
वश्या पोरांचो हो फाक्त
 जाणवलोना.

हांवें पळयल्या
भुंयमातेची तडफड जेन्ना आयली
तिच्या मुक्त श्वासार बंदी
आनी आतां वळवळटा ती पळोवन
तिच्या मुक्त श्वासार तुमची अंदाधुंदी
कांयच फरक जाणवलोना.

तुमी दीस मनयतात स्वातंत्र्याचे
हुतात्म्यांचे मेजून, मापून
तुमी म्हाकाय हुबयतात
फुलांनी जोखून
ह्या एका दिसाक फुट्टा तुमकां कंठ
आनी वाजयतात ह्या
सगळ्यांच्या नांवान ताळ्यो
बाकी दिसांनी तुमच्या दोळ्यां फाळ्यो
आतां कित्याक जिबेक तरासता
म्हणूंक 'जयहिंद'
तें सगळें 'गॉन विथ द विंड!'

# सके

□ मनोज नरेंद्र कामत

म्हजे जिणेच्या जुगारांत
तीन एके केन्नाच आयलेनात
आयलीं तीं पिसुडलेलीं पानां
बेरंगी जिणेंतलीं शुन्यात्मक पानां

सके कितले पळयले ?
— कितलेशेच
पानांतल्यान मनीस जाल्ले
हिजडे हे

वगता-वगतार गुलामांचें
भिरेंच आयलें आनी
म्हाकाय करून गेलें गुलाम

राजा-राणयेचे तळवे चाटीत रावलों

आतां फुडलीं पानां कशीं येवचीं
तें तेच थारायतले...

# म्हाका कोंकणीची दीक्षा कोणें दिली ?

**चंद्रकांत केणी**

फेब्रुवारी १९४८. ३० जानेवारीक दिल्लींत गांधीजींची हत्या जाली. आनी देशाच्या सगल्या वाठारांनी गांधींचे रक्षेचें विसर्जन करपाची येवजण थारली. गोंयच्या वांट्याकय थोड्यो अस्थी आयिल्ल्यो. त्या अस्थिंचो करण मडगांवां दवरिल्लो. थंयसून मिरवणुकेन त्यो कोलव्यां व्हरून तांचें दर्यांत विसर्जन जावपाचें आसलें.

म्हाका उमेद आसली त्या इतिहासीक खिणाचो साक्षिदार जावपाची. गांधींविशीं थोडें वाचिल्लें, खुबशें आयकल्लें. कांसावलेचें आमचें चारचौगांचें घर. घरांत पुस्तकां, नेमाळीं आसतालीं. रातिच्या वेळार घरच्या जाण्टेल्यांमदीं चर्चा आनी वादय जाताले. थोडेंशें समजतालें, खुबशें समजनासलें.

थोड्या म्हयन्यांआदीं भारत स्वतंत्र जाल्लो. त्या दिसा आमच्या घरांत गोडशें केल्लें. भारतीय स्वतंत्रतायेची खोशी भौशिक तरेन मनोवपाची मेकळीक तेन्ना नासली. पूण आमी कांय इश्टांनी आमच्या अबुद्दी देशभक्तिच्या नेटार क्रॅप फोलिचो एक तिरंगी बावटो केलो. रेल्वेचे लायनीकुशीक आमचें घर. घरासामकार रेल्वेच्या तारांचो एक लोखंडी खांबो आसतालो. हांव त्या खांब्याचेर चडलों आनी तारो गुठलायिल्ल्या जाग्यार तो तिरंगी बावटो खोयलो. घरा येवन गोडशें खालें. घरच्यांक आनी गांवच्या लोकांक हांवें तो बावटो दाखयलो. पूण तो आमचो 'पुरुषार्थ' अशें सांगपाचें धाडस जालेंना.

पिराय सगली तेरा-चवदा वर्सांची. पूण म्हाका दिसता, काळजांतल्या देशभक्तिच्या इंगळ्याचेर एकेक कीट पडटाली आनी कोणेंय फूंक घाली म्हणटकच ते धगधगीत पेट्टाले. अशा वेळार अनवळखी बळगें आंगांत संचार करतालें आनी अविचारी धाडसाक प्रवृत्तय करतालें.

बावटो लोकांनी पळयलो, पूण हांवें धरिल्लें तशें कांय जालें ना. रातीकडेन सपनांत पोलीस येवन म्हाका धरून व्हरतात अशें हांवें पळयल्लें, पूण जागो जालों तेन्ना घरांतच आसां हें पळोवन म्हाका अजाप जाल्लें. दुसऱ्या दिसा पावसाची एक दडक शिडशिडली आनी तो बावटो थंय दिसना जालो. तो पडलो काय कोणें काडलो, म्हाका खबर ना. त्या बावट्यान आपलें काम केल्लें. १५ ऑगस्ट १९४७ दिसा ताणें तकली वयर काडून सूर्यदेवाक नमन केल्लें. त्या कार्याक म्हजो हातभार लागला ही कल्पना म्हाका कितलेशेच दीस मेरेन सुखायताली! आनी देशाखातीर कितेंय तरी करूंक जाय असो विचार मनांत अखंड येतालो.

हे फाटभुंयेचेर गांधी अस्थी विसर्जनावेळार हांवें कोलव्यां वचूंक जाय अशें म्हजें मन म्हाका सांगतालें. कांसावलेच्यान कोलव्यां चड पयस न्हय. त्या वेळार हुकमी वाहन म्हळ्यार सायकल. घरांतले जाण्टेले सायकलीन कोलव्यां गेले. म्हाका व्हेलो ना. थंय घडये पोलीस आगळीक करीत, गर्देंत भुरगे चिड्डून वचत, असलीं तरेकवार कारणां दिवन म्हाका घराच दवरिल्लो.

तातूंत आनीक एक गजाल घडिल्ली. मडगांवच्या अस्थींतलो थोडो वांटो कांसावले हाडून थंयच्या दर्यांत विसर्जित करपाची एक येवजण थंयच्या कांय जाणांनी आंखिल्ली. सांजवेळा गाडी आयली, पूण अस्थी हाडूंक गेल्ले लोक आयलेनात. तेन्ना गांवचे उरिल्ले सुरिल्ले दादले कोलवेचे धांवले. हांव मात निर्शेल्ल्या मनान स्टेशनाचीं सोंपणां देंवन गेलों. सगलो बाजार ओस पडिल्लो. सगलो गांव कोलव्यां हांव आनी म्हजेसारके भुरगे, थोडे जाण्टे आनी बायलो तितल्यो उरल्यात, असो विचार मनांत दाटून आयलो. दिसलें, आमचे एक इतिहास घडटा आनी आमी तो पळयलोच ना, अशें कशें

पूण तशेंच जाल्लें. गांधींचें दर्शन घडूंक नासलें. तशें पळोवंक हांव गोंयाभायर पावंकूय नासलों. गांधींचे फोटे पळयल्ले, गांधी कांय कथा वाचिल्ल्यो. गांधी ही एक महान विभूती, दिव्यत्वाक एक व्यक्तिमत्व, तांचें दर्शन घेतलें जाल्यार पुण्य मेळटलें, असो मनांत घर करून बशिल्लो.

म्हजें मन अशांत जाल्लें आनी वाटेर कोणेंय 'तूं गेलो ना अशें विचारलें घाल्यार घायाचेर मीठ शिंपडायल्ले भाशेन जावन दुकां येतालीं. जड मनान हांव घरा परतलों.

आमोरेचो वेळ जालो. इगर्जेच्यो घांटी वाजल्यो. तितले म्हणसर येवन सांगलें, 'गांधींच्यो अस्थी पावल्यात. आतां कांसावलेचे वेळेर जावपाचें आसा.'

हांवें वेळ केलो ना. धांवत स्टेशनाकडेन गेलों. भायले वटेन झाडापोंदा एका मेजार कुकमाच्या करणाइतलो ल्हान रुप्याचो दवरिल्लो. कुशीक दोन पेट्रोमाक्स आनी सकयल स्टुलाचेर गांधींचो धा-पंदरा मिनटां भितरच सगलें वातावरण बदलिल्लें. गांवचे शंबर-लोक थंय जमा जाल्ले. वासपूस करतकच कळ्ळें, मडगांवच्या अस्थिक आल्फिनेत बुडोवन कांय कण कांसावलेकारांक दिल्ले. पूण ते तांकां गाडी चुकली आनी उपरांत खास टॅक्सी घेवन ते गांवांत

आजच अस्थी विसर्जन जावंक जाय. कोलव्यां गेल्ले लोक परस रात जातली. आमीच तें विसर्जन करूंक जाय असो विचार बळावत आनी मळबांतल्या उदेल्ल्या नखेत्रांचे साक्षीन मिरवणूक दर्याचे वेळेर

दोग जाण व्हड्यांत बसून फुडें गेले आनी अस्थिंचें विसर्जन परत आयले. थंयच वेळेर सभा जाली. एक वक्तो – गांवचो खडेगांठ पुर्तुगेज उलयलो. कोणाक कांय समजलें ना.

'तूं कित्याक उलयना ?' कोणेंतरी म्हाका हात लावन विचारलें. गत 'आधी साखर आवडे... आणि तिही ओखदा जोडे' हे संत उक्तीभाशेन जाली. हांवें वेळ केलो ना. मायक्रोफोन नासलो. तरी फाटीर हात दवरून शाळेंत पाठ केल्लें मराठींतलें वाक्य उलयलों, भगिनीनो!'

सांतान रेंदेर उबो आशिल्लो थंयच्यानच धेंगसलो. 'तो फिरंगी तूं मराठी उलयता. आमकां कांय एक समजना. मागीर आमी हांगा रावपाचे ?'

पाऊणशें शंबर लोकांचो समुदाय. तातुंतल्यान हयकाराचो सुस्कार आनी मनांत घोळयिल्लें भाशण विसरून हांवूय गोंदळून गेलों.

उलय', जुझे खारव्यान आपल्या कंबराचें रुप्याचें काण
सुचयलें.
फाल अँ कोंकानी.' आपले जिबेवयली मोर्तालिची पालविल्ली
उडयत दोतोरान सांगलें.
उलयतलों? भाशणाची तयारी करूंक नासली. फकत
डें सरिल्लों. मराठी पुस्तकांतलो एक गांधीचो धडो पाठ
गीत विसरिल्ले भाशेन जाल्लें.
नेट हाडलो. आनी व्हडान म्हळें, 'भावांनो आनी भयणींनो,
र उजवाड फांकारिल्लो सूर्य अस्ताक गेला आनी धर्तरी
न गेल्या. मनीस जातीक सत्य आनी अहिंसेचो दिश्टावो
भाशेनच चकचकीत महात्मा गांधी गेलो आनी मनशाच्या
ळोख पातळ्ळा. मळबांतलो सूर्य फाल्यां परत उदेतलो. सवर्णी,
कामाक लागतलीं, पूण अस्ताक गेल्लो गांधी परत येवचोना.
ो निमाणो अंश आज विसर्जित जाला... पूण गांधी मरचो
काळजांत तो सदांच उदेल्लो उरतलो. जे मेरेन संवसारांत
तली, ते मेरेन मनीसजात गांधीचो उगडास काडीत उरतली.'
भाशणाचो आशय. उतरां घडये वेगळीं वापरिल्लीं आसत.
आनी लोकांनी ताळयांचो कडकडाट केलो. दोतोरान म्हजे
दवरून शाबासकी दिली आनी सांतानान आपल्या खांदार
गांवांत हाडलो.
चो उगडास हांवें महात्मा गांधींक आर्गां ओंपचे खातीर करूंक
जिवितांतल्या त्या प्रसंगाचें वर्णन करपाखातिरूय करूंक
दिश्टावो त्या प्रसंगाक लागून म्हाका जालो. गोंयांत लोकांकडेन
जाल्यार तो कोंकणीतल्यानच जावचो पडटलो ही जाणविकाय
रायेचेर जाली आनी मागीर अशें दिसलें, हांव जें सोंपेपणान
तें दुसरे खंयचेच भाशेंत म्हाका जमपाचें न्हय.
ान म्हाका कोंकणीची दीक्षा दिली. पूण तितलेच खातीर हांवें
ावराक माथें मारलें अशें मानप समा जावचेंना. वाचन-लेखनाचें
पिरायेसावन पिशें. खुबशें वाचतालों आनी थोडें बरयतालों.
आसले. गोंयांत साहित्य उजवाडावपी नेमाळीं नासलीं. आसलें
तमित्र' मराठी म्हयनाळें. पूण आपणें कितें तरी बरोवचें आनी
वान छापून येवचें ही उमळशीक पिरायेच्या सोळाव्या वर्सासावन
ली की शाळेच्या अभ्यासाचेर म्हजें लक्ष थिरावनासलें. म्हगेलें
पिशें नदरेंत भरूंक लागिल्लें. म्हगेल्या बापोलयान म्हाका
ावचें, 'आदीं शिकून घे. मागीर बरोवंक सगलो जल्म आसा.'
सतालें, म्हजी योग्यताय घरच्या लोकांक दाखयले बगर म्हाका
रांत मान मोल मेळचें ना. पूण हांवें सगलें कोंकणींतल्यान
य छापतलों? तितले म्हणसर पणजे सावन 'ॲराल्द' ह्या
देवनागरी कोंकणींतली सप्तकी आवृत्ती म्हज्या हातांत पडली.
ाख्याक बरोवन तयार आशिल्ली एक कथा हांवें ॲराल्दाक
नी ती छापून आयली तेन्ना मळबाक हात लायिल्ल्याचो आनंद
लो. घरांतल्या लोकांचीय नदर बदलली अशें म्हाका ओगीच
ज्या नशिबान आसत वा हेर कारणांक लागून आसत, ॲराल्डाचे
आंक आयले आनी तें सप्तकी नेमाळें बंद पडलें. आतां दुसरो
लो. बरोवपाचें पिशें वाडत चलिल्लें. नांव छापून येवपाच्या
लटकें मोठेपण मेळोवपाचें तें पिशें आशिल्लें. हांवें मराठींत
रयली आनी 'भारतमित्रा'क धाडली. ती रोखडीच छापून आयली.
सुमार चार वर्सां म्हयन्याक एक कथा हांव भारतमित्रा खातीर

विपरीत गजाल घडली. भारतमित्राचे संपादक नारायण भास्कर नायक वर्सांतल्यान एक खेपे कांसावले येताले आनी थंयच्या वर्गणिदारांची वर्गणी पुंजावन परत वताले. ते आयले आनी बाजारांत एका दुकानार बसले. दुकाना मुखारूच स्टेशन आनी पणसाचीं दोन झाडां. त्या झाडांच्या मुळांत आमी कांय भुरगे गड्ड्यांनी खेळटाले. तितले म्हणसर म्हाका कोणें तरी रकाद दिलो, 'भारतमित्राचो संपादक आयला. तुका आपयला.'

कमरावेल्यान गळटलें मोटवें कालसांव एका हातान सांवरीत आनी दुसऱ्या हातान गड्डे धरून हांवें तकली वयर करून पळयलें. काळी तोपी आनी कोट-पुडवें न्हेशिल्ल्या मनशाचेर नदर पडनाफुडें हांव धांवत पळत घरा आयलों. म्हाका गड्ड्यांनी खेळटना पळोवन तो म्हज्यो कथा छापप बंद करीत अशी भिरांतय म्हाका दिसली. पूण तशें कांय घडलेंना.

ह्या प्रसंगाचो कोंकणी निष्ठेकडेन वा भाशेकडेन कसलोच संबंद ना. तरी लेखनयात्रेच्या सुरवेच्या दिसांतलो हो प्रसंग जाल्ल्यान तो बरोवन काडला.

कोंकणी कडलें म्हजें नातें म्हाका होलमलें तें मॅट्रिकची परिक्षा दिवंक हांव मुंबय गेलों तेन्ना. महानगराचें वैभव दोळे दिपकावन गेलें. पूण कानार पडटले परकी भाशेक लागून आपूण परकेकडेन आसां ही भावना मन अस्वस्थ करताली. 'होम सिकनेस' म्हणून जें कितें आसता ताचो अणभव हांवें पयलेच खेपे घेतलो. रस्त्यान भोंवतना अचकीत कोणय कोंकणींतल्यान उलयतले मेळ्ळे जाल्यार ती भास आयकत त्या अनवळखी मनशाकडेन हांव नातें जोडून बसतालों. हांव गोंयचो, म्हाकाय कोंकणी येता, हें सांगपाखातीर मर्दी तोंड घालपाची इत्सा जाताली. पूण सभ्यतायेच्या संस्कारांक लागून मन मारचें पडटालें. मुंबय त्या काळांत चडशे लोक मराठी उलयताले. थोडी भौ हिन्दी-गुजराती भासूय कानार पडटाली. पूण मुंबयचें मराठी रूप त्या वेळार पुसून वचूंक नासलें. त्या मराठी वातावरणांत म्हाका शेणिल्ले भाशेन जातालें. गोंयकारांच्या घरांनी पावलों जाल्यार वाळवंटांतले हिरवळिचेर पांय दवरिल्ल्याचो आनंद जातालो. आकाशवाणीच्या मुंबय केंद्राच्यो कार्यावळी आयकतना म्हजी 'होम सिकनेस' थोडी थोडी निवळटाली. हांव गोंयकार, म्हजी भास कोंकणी, कोंकणी ही म्हजी आयडेंटिटी, अस्मिताय, हाची जाणीव त्या दिसांनी पयलेच खेपे जाली आनी एखाद्रे बियेवरी किल्लली, आंकरेली आनी वाडत रावली. हांव फुडें रेडियोखातीर बरोवंक लागलों आनी एक दीस तेच भावनेक लागून आकाशवाणीच्या कोंकणी विभागांत कामाकय लागलों. थंय कोंकणी साहित्य आनी साहित्यिकांकडलो पयलो संपर्क म्हाका गावलो.

रवीन्द्रबाब केळेकार तेन्ना वर्ध्याक आसताले. ते अर्दी मर्दी मुंबय येताले. बाकीबाब बोरकार पुण्यांत आसताले. तेय केन्नाय रेडियोचेर पावताले. मनोहरबाब सरदेसाय पॅरिसाक आसताले. पूण तांची नामना तेन्ना फांकारिल्ली आशिल्ली. लक्ष्मणराव सरदेसाय वयलेवयर रेडियोचेर मेळटाले, म्हाका दिसलें, भावनेचीं शेणिल्लीं नातीं म्हाका परत मेळ्ळीं. म्हजे आपले अशे ते म्हाका दिसताले. कोंकणीची चळवळ मुंबय शारांत वैचारिक बसकांपुरती मर्यादित आसली. त्या बसकांनी म्हाका रिगाव मेळ्ळो. त्याच अदमासाक 'साळीक' हें म्हयनाळें सुरू जालें आनी थंय लेगीत म्हजे साहित्यिक प्रवृत्तीक उत्तेजन मेळ्ळें.

दिल्लीक गेलों ते मेरेन कोंकणीच्या ध्यासान हांव पुराय भारावन गेल्लों. जंय जंय कोंकणीची प्रवृत्ती चलता, जो-जो कोंकणी बरयता ताचेकडेन म्हजें एक नातें आसा ही भावना दिल्लींतल्या राबित्यांत मनांत थिरावत रावली. तातुंतय रवीन्द्रबाबांच्या सहवासांत जाल्ल्या संस्कारांक जेन्ना आचार्य काकासाहेब कालेलकारांच्या सान्निध्याची जोड मेळ्ळी तेन्ना कोंकणीचें पिशें म्हजे मानगुटेर बसलें. हांवें कोंकणीखातीर कितें तरी करूंक जाय. गोंयचें स्वातंत्र्य म्हाका गौण दिसतालें. कित्याक कोण जाणा. कोंकणी उरली जाल्यार गोंय आपसूक स्वतंत्र जातलें अशें म्हाका दिसतालें. गोंयच्या

स्वातंत्र्याची म्हाकाय उमळशीक आसली. भारत सरकाराच्या विदेश मंत्रालयांच्या हांव संपर्कांत आसलों. गोवा समाचार केंद्रय चलयतालों. दिल्लींतल्या साहित्यिक आनी संस्कृतिक वर्तुळांत म्हाका प्रवेश मेळिल्लो. पूण ध्यानी-मनी-स्वप्नी म्हाका कोंकणीच्या उद्धाराची तळमळ लागिल्ली. आनी हांव हिन्दींतल्यान कथा बरोवन 'कोंकणी से अनुवादित' अशी टीप जोडून त्यो उजवाडायतालों. कोंकणीची जायरात केल्ल्याचो आनंद म्हाका मेळटालो.

कोणेंय विचारलें जाल्यार त्या पिशेपणाचें हांव समर्थन करतालों. म्हणटालों, 'आपले भाशेखातीर वावुरपाचें भाग्य सगळ्यांकच मेळना. आपले आवयचो विजनवास सोंपोवन तिच्या हक्काच्या घरांत तिका मानाचें स्थान दिवपाचें हें पुण्यकार्य.'

त्याच अदमासाक आफोंस दोदे ह्या फ्रेंच कथाकाराची एक कथा हांवें वाचली. स्कुलांत दुसरी भास म्हणून फ्रेंच घेतिल्ली. तरी हे कथेचो इंग्लीश अणकार वाचलो तेन्ना म्हजेर खोल परिणाम जालो आनी हांव उजू मार्गान चलतां म्हणपाचो भरवंसोय मेळ्ळो.

कथा सादी. जर्मनीन झुजांत फ्रान्स काबीज केलें त्या वेळावयल्या वातावरणाचेर आदारिल्ली. जर्मन अधिसत्तेन एक फर्मान काडिल्लें: फाल्यांच्यान शाळांनी फ्रेंच शिकोवपाचेर बंदी आसतली. एके फ्रेंच मुळावे शाळेंत एक जाण्टेलो शिक्षक आसलो. ताचो ते शाळेंतलो तो निमणो दीस. त्या दिसा ताणें गांवच्या सगळ्या लोकांची एक सभा मागयल्ली. स्कुलाच्या वर्गांतच ही सभा भरिल्ली. सगळो गांव ते सभेक आयिल्लो. जर्मनीन फ्रान्साक झुजांत हारयिल्ल्याची लज आनी फाल्यांच्यान आपली आवयभास शिकूंक मेळचिना, उलोवंक मेळचिना म्हणपाची खंत जण एकल्याच्या तोंडार दिसताली. वातावरण शांत गंभीर आसलें. पूण कथेचो निवेदक जाका म्हणूं येत, असो एक विद्यार्थी वर्गांत उसरां पावता. तो सदांच उसरां येतालो आनी शिक्षक ताका दटायतालो. आजय तो उसरां आयिल्लो पळोवन शिक्षकान म्हळें, 'आजय तूं उसरां आयलो?' आनी खंतिचो एक सुस्कारो सोडून म्हळें, 'बस.'

शिक्षकान सद्गदीत आवाजांत भाशण सुरू केलें: 'आज हे शाळेचो आनी म्हज्या शिकोवपाचो निमाणो दीस. फाल्यांच्यान फ्रेंच भास शिकपाचेर बंदी आसतली. पूण भावांनो आनी भयणिंनो, एक गज धरात. आज जर्मन लोकांनी लस्कराच्या बळाचेर फ्रान्स देश जिखू फाल्यां आमचें बळगें वाडटलें तेन्ना फ्रान्स परत स्वतंत्र जात तिच्या घरांतच आमचे आवयभाशेचेर राजकर्त्यांनी बंदी घाल्ल पूण तुमी आवयभाशेक विसरूंक फावना. तिचो तुमी सांबाळ कर अंतर दिवं नाकात. गेल्लें स्वातंत्र्य परत मेळूं येता. पूण एक खेपे वा भास केन्नाच परत येना. राजकी बंदेपण केन्ना तरी सोंपतलें. खेपे संस्कृतिक बंदेपण वांट्याक आयलें जाल्यार तुमकां कोण करूंक पावचोना. होच म्हजो निमणो पाठ!'

'ल देरनियाए लेसाँ'- हें ते कथेचें नांव. दिल्लीच्या वाताव कथा म्हाकां रातिच्या काळखांत दिका दाखयतल्या ध्रुव ताऱ्यासारकी आयज लेगीत ते कथेचो उगडास जाता तेन्ना म्हजें मन भरून ये

फुडें कोंकणीचे चळवळिचे पालखेक खांदो दिवपाची संद म्हाक तरेकवार प्रसंगांतल्यान आनी दिव्यांतल्यान आमकां वचचें पड स्वतंत्र जातकूच तर संकटां आनी आव्हानां एकाद्रे माळेसारकीं एका फ एक येत रावलीं. धन, मान आनी सत्ता हातांत आशिल्ल्या व्हडल्या लोकांकडेन रिकाम्या हातांनी झुजपाचो प्रसंगय आयलो. पूण एके उखलीत आमी निर्धारान फुडें वचत रावले. कोंकणी भाशेक मा स्वतंत्र साहित्यिक भास म्हणून साहित्य अकादमीची मान्यताय मेळ्ळी ना. चिवट झूज दिवन ती मेळोवची पडली. आपल्या घरां राजभाशेचो मान मेळोवन दिवचेखातीर एक होमखणच पेटोवन ता घेवची पडली. त्या मानान मुत्सद्दीगिरीचो उपेग करून आमी क घटनेचे आठवे वळेरेंत सोंपेपणान पावयली.

हो सगळो इतिहास आमच्या दोळ्यां सामकार घडलो. ह्या म हांवेंय कांय समिधा घाल्यो ही धन्यताय आनी कृतार्थताय म्हज्या जि बऱ्यांतली बरी जोड. ते विशीं केन्नाय तरी विस्तारान बरोवंक जाय. मनाचे उमाळे आनी आमचे आवयभाशेचो इतिहास नवे पिळगेक करचे खातीर!

☐ ज्ञान, तप, अग्नी, माती, मन, उदक, वारो, सूर्य आनी काळ हीं जिवांक निर्मळ करपी तत्त्वां. क्षमेन विद्वान निर्मळ जाता करूंक फावना असल्यो करण्यो करपी दान दिवन निर्मळ जाता. पातकी प्रायश्चित्तान निर्मळ जाता आनी विद्वान तपान निर्मळ जाता. निवळ जोड ही सगळ्या तरांच्या निर्मळसाणेंत बरी. जाची जोड निर्मळ तोच मनीस निर्मळ. उदक न्हावन निर्मळ जाता तो न्हय. उदकान आंग निर्मळ जाता. सत्यान मन निर्मळ जाता. ज्ञानान बुद्द निर्मळ जाता आनी विद्येन तप निर्मळ जाता. मनीस भायर भितर निर्मळ जावंक जाय. ताकाच मनीस म्हणूं येता. मरण जाय अशेंय म्हणचें न्हय, नाका अशेंय म्हणचें न्हय. काळाची वाट पळोवची. निर्मळ मनान जिवीत जियेवचें.

— मनुस्मृती

# ...लीन कोंकणी लघुकथा




...खंयच्याय साहित्य प्रकाराची 'अँथॉलॉजी' तयार करतना ...दकांक नियुक्त करतात. हे दोनूय संपादक दोन वेगळ्या ...रांचे आसतात. उपरांत तांच्या दोगांयच्याय पालवी संपादक ... मंडळाच्या वांगड्यांच्यो वेळोवेळ बसका जायत रावतात. ... संतुळीत 'अँथॉलॉजी' तयार जावंक पावता. आमचे सारक्या ...मेरेन तरी विंगड विंगड कारणांक लागून अशे तरेन संग्रह ...

... ट्रस्ट, इंडिया, हे संस्थेन हालिंसराक जायतीं कोंकणी ...डायल्यांत. 'समकालीन कोंकणी लघुकथा' हें अशेंच एक ... साहित्य अकादमी, कोंकणी भाशा मंडळ आनी जाग ... आर्दी प्रातिनिधीक कथां-झेले उजवाडायल्ले. हातुंतल्या ...सिटी बसिंनी गचीमुड्डी आनी खेटाखेट जावची ते तरेन ... कथा चिरंगटिल्ल्यो. पूण नॅशनल बुक ट्रस्टाच्या प्रस्तुत ...असले विक्रम घडूंक नात, हें ताचें खाशेलेपण सुरवेकूच ...

... ट्रस्टान चडशा सगल्या देशी भासांनी अशे तरेचे कथां-झेले ... अशा झेल्यांनी अर्थांतूच पानांची मर्याद थारायल्ली ...हे झेले वेंचीक साहित्य घेवन मुखार आयल्यात. कांय ...ा कथा-झेल्यांच्यो तीन-तीन आवृत्त्यो येवन लेगीत पुस्तकां ... इतली तांची मागणी वाडल्या. लक्ष्मण पै हांच्या सोबीत ... पुराय मांडावळ आनी गॅट-अप ओडलायणो आसा. ...चुको नात.

...चे संपादक आसात पुंडलीक नायक. प्रातिनिधीक संग्रहांच्या ...ाय अधिकार (locus standi) आव्हान करपासारक्यो ...ं घडल्यात आनी घडटात. पूण पुंडलीक नायक हो स्वता ...कथाकार आनी त्या विशयाची authority आशिल्ल्यान ...बाबतींत तशी गजाल घडूं नजो.

... अभ्यापूर्ण अशी प्रस्तावना दिल्या. नॅशनल बुक ट्रस्टाचे ...थां-झेले कालांतरान हेर भासांनी अणकारित करपाची चाल ...ूच कोंकणी भाशेंतल्यो कथा हेर भारतीय भासांनी पावतल्यो, ...ची गजाल. देखून ही प्रस्तावना अणकारित जातकच हेर ...प्यांक कोंकणी भास, चळवळ आनी कोंकणी कथा निर्मणेची ...शीं एके नकसूद रचणुकेंतली सविस्तर माहिती सोंपेपणान ... पंचवीस कथाकारांच्यो कथा पुस्तकांत आपावन घेतल्यात. ...काचे शैली विशीं आनी खाशेलपणा विशीं संपादकान मार्मिक ... उतरांनी भाश्य केलां.

...ावित करूंक नां अशा कितल्याशाच कथालेखकांच्या नांवांची ... तातूंत परिपूर्णताय ना. पतीक हें वाक्य पळेयात: ''एका ...ध आनी आशयसंपन्न कथा बरोवन मागीर कथा लेखनाकडेन ...ल्या कांय कथाकारांची याद जालेबगर रावना. तातूंत अनील ... भेंब्रे, सुरेश काकोडकार, पुरुषोत्तम शिंगबाळ हांच्या नांवांची ...ल घेवपाक जाय.'' एके कडेन तरनाटे कथाकार सुरेश पिळर्णकार, रामनाथ गावडे, मधुसूदन जोशी, शशिकांत पुनाजी, विठ्ठल आवदियेंकार तेचपरी दुसरे एके कडेन कथा बरोवपी कवी – बाकीबाब बोरकार, मनोहरराय सरदेसाय, पांडुरंग भांगी, नागेश करमली, जे. बी. मोरायस आनी रमेश वेळुस्कार हांच्याय नांवांचो उल्लेख आयला. प्रकाश थळी हांणी एका तेंपार राष्ट्रमतांत 'तुळशीचें लग्न' सारक्यो दर्जेदार कथा बरोवन बक्षिसां मेळयल्यांत. अरूण सिंगबाळ आनी प्रेमानंद म्हांबरे तशेंच हर्षल दळवी, शांता खांडेपारकार हांचीं नांवां येतात जाल्यार प्रकाश थळीचो उल्लेख येवंक ना. गुणात्मक आनी संख्यात्मक नदरेन तरनाटो कथा-लेखक प्रकाश पर्येकार हाणेंय मोलादीक योगदान दिलां. ह्याय प्रकाशाचो उल्लेख ना. आनिकूय कांय कथा-लेखकांचीं नांवां उरल्यांत आसूं येता. ही पूर्णताय राखपाक संपादकाक सहाय्यकांची कितली गरज आसता, हे विशीं पयल्याच परिच्छेदांत सांगलां.

''१९७०-८० हो काळ कोंकणी कथेच्या वैभवाचो काळ म्हणपाक जाय'' अशें सुंदर वाक्य प्रस्तावनेंत आयलां. उपरांत कांय कथाकारांनी सातत्य सलगपणान राखूंक ना, ही वस्तुस्थिती. हिंदी आनी मलयाळम भासांनी कोंकणी कथांचे अणकारीत झेले उजवाडा आयल्यात. ते विशीं तपशील आयला. पूण वेगळ्या वेगळ्या इंग्लीश दिसाळ्यांनी आनी नेमाळ्यांनी कितल्योश्योच कोंकणी कथा अणकारीत जावन लेगीत ते विशीं उल्लेख ना. घडये त्यो पुस्तक-रुपान उजवाडाक येवंक नात, म्हूण तांची दखल संपादकान प्रस्तावनेंत घेवंक ना जायत.

पंचविसूय कथांचेर फोडणिशी करून बरोवप ह्या लेखाच्या आटापाभायलें. पूण जण एकल्यान्नी कथा वाचतकच गोट्यावेल्यान शिताची पारखणी करची, तशी कथाकाराचे शक्तिची खराय आनी खोलाय वाचप्याक होलमता. योग्य कथा वेंचून काडपांत हांगा संपादकाचें कसब प्रगट जाता. केरळ राज्यांत जल्मल्ल्या गोकुळदास प्रभूची 'आराट्ट' कथा सगल्याच आंगांनी वेगळें दर्शन घडयता. के. आर. वसंतमणी हांचीय कथा वेगळें विश्व दाखयता. कर्नाटक राज्यांत जल्मल्ले जोसेफ फ्रान्सीस डिसौझा हांचीय 'दिर्वें' कथा ख्रिस्ती संस्कृतायेंतल्या नाविन्यपूर्ण आंगांचें दर्शन घडयता. प्रादेशिकताय, लोकवेद तशेंच आशयघनता, संवाद आशय आनी भास हे नदरेन पुंडलीक

नायक हांची 'प्रेमजागर' कथा पकदस्त जाल्या. खंयचेय हेर भाशेंत अणकारीत केल्यार तातुंतले सगलेच nuances शेणटले, अशें दिसता. हाचेच वेल्यान कथेची मौलिकता आनी तांक दिसून येता. आनिकूय कांय कथांनी जबरदस्त impact दिसून आयला. जी कथा गोमटेर बसून चिंतूंक लायता वा काळजांत घर करून रावता, तीच कथा तोलामोलाची. ते नदरेन कथा-झेल्यांतल्यो चडश्यो कथा ह्या मानदंडाक पात्र थरल्यात. फकत कांय कथांनी अर्दीमदीं मात्शें dilution जाल्ल्यान, घोटीवता नाशिल्ल्यान वा अभिव्यक्ती प्रभावशाली जावंक नाशिल्ल्यान उणाव दिसता. अ. ना. म्हांबरो हांणी कथा बरपावळिच्या थारायल्ल्या मानदंडांनी innovative बदल करून तंत्राचे जायते प्रयोग केल्यात. तांची 'विठूली चावी सांडली' हीय एक परिणामकारक कथा. 'ॲब्सर्ड कथा' अशें आमी जाका म्हणत आयल्यात ती कथेचे थारायल्ले फास्केंत कितलिशी फीट बसता हो समिक्षकांचो संशोधनाचो विशय!

लक्ष्मणराव सरदेसाय हांची कथा घेवंक ना. पूण प्रस्तावनेंत उल्लेख आयला तो असो – ''तांणी निबंदा सारको तोंडावळो आशिल्ली कथा कोंकणीक भेटयली.'' लक्ष्मणरावांनी कथेच्या set patternक वा तंत्राक पाळो दिवंक ना, अशें किंचित हांगासर ध्वनीत जाता. साहित्यांत कथा आनी व्यक्तिचित्र एकेकदां overlap जातात. कथा म्हणची काय व्यक्तिचित्र म्हणचें काय दोनूय लेबलां दसोवर्ची, तेंय कळना.

कथाझेल्यांतल्या कितल्याशाच कथांक गोंयचे प्रादेशिकतायेचो खा[...] आसा. विशय-आशयांनी विविधताय आसा. समाजीक स्थित्यंतरां, [...] मुल्यां, नातें संबंद, लोकवेद, मातयेचो परमळ, संस्कृतायेचीं तास[...] मुक्ती उपरांतचो समाजीक, अर्थीक, राजकी बदल, सुटके झुजाऱ्यां[...] अशा विंगड विंगड विशयांचो सुंदर आलेख ह्या जिनसांवार कथांनी [...]

कोंकणी कथा गोंयच्या तशेंच केरळ, कर्नाटक आनी महाराष्ट्र हेर वाठारांतल्या बरोवप्यांनी घटमूट केल्या. तिचो फुडार पर्जळीत [...] राष्ट्रीय पांवड्यार हेर भासांचे पंगतीक ती अधिकारान पुराय बळ[...] बसल्या. आपणालें खाशेलेपण तिगोवन दवरून ती वैश्विक थरा[...] कथांकडेन आपलें नातें जोडून गतीशील आनी प्रयोगशील आसा. [...] पुस्तक हीच ताची गवाय.

'समकालीन कोंकणी लघुकथा' हें पुस्तक तुमच्या मेजावेल्या [...] पुस्तकांमदीं आस्पावित करचें अशेंच आसा!

**समकालीन कोंकणी लघुकथा**
**संपादक: पुंडलीक नायक**
**नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया, १९[...]**
**पानां: १९६**
**मोल: रु. ४५/-**

---

☐ पात्र पळोवन दान दिवचें. दितां तें मेकळ्या मनान दिवचें. उदक, अन्न, गाय, भूंय, वस्त्र, भांगर असल्या खंयच्याय दाना परस ज्ञान-दान व्हड. जे भावनेन दान दितात, तेच भावनेन तें भौमानान परतें येता. जो पुजा घेता तो पुजा करूनूच दिता. तपाचो अभिमान केन्ना धरचो न्हय. यज्ञ करतल्यावे जिबे वयल्यान फट उतर फुटचें न्हय. पीडित मनशाची निंदा करची न्हय. आनी उजव्या हातान दिल्लें दान दाव्या हाताक लेगीत कळूंक दिवचें न्हय. फटीन यज्ञ सरता. गर्वान तप सरता. निंदेन आयुष्य सरता आनी दानाचे जायरातीन ताचें पुण्य सरता. दिता तें सदां बऱ्या मनान दिवचें. घेवपी बऱ्या मनाचो केन्नाय तरी मेळटलोच मेळटलो ह्या भावार्तान दिवचें.

— मनुस्मृती

☐ आमकां जियेवचें-शें दिसता, कोणें आमकां मारिल्ले नाका आसता तशें सगळ्या जिवांक दिसता. म्हूण केन्ना कोणें धर्तरेचेर चलतल्या, अंतराळांत उडटल्या वा उदकांत पेंवतल्या जिवाक मारचें न्हय. खावपा खातीर तर न्हयच न्हय. जो जिवांक खावपा खातीर मारता ताका मेले उपरांत लेगीत सूख मेळना. जो कोणाक मारिना तोच सासणाचें सूख जोडटा. जो खंयच्याच जिवाची हत्या करिना ताका जें जाय तें मेळ्ळे बगर रावना. मारूंक लावपी, मारपी, मांस विकपी, विकतें घेवप, मांस रांदपी, वाडपी आनी खावपी – हे सगळे घातमारे. 'मां सः' – जो म्हाका खातलो ताका हांव मारून खातां असो मांस ह्या उतराचो अर्थ जाणटेल्यांनी सांगला. मांस म्हळ्यार कितें, मारप म्हळ्यार कितें हाची पूर्ण जाणवीक दवरून कोणेंच केन्ना मांस खावचें न्हय.

— मनुस्मृती

